वासुदेव प्रभु, लोरेन्स लोबो, वीजेपी सल्डान्हा, कोच्चीचो श्री पुरुशोत्तम मल्ल्या, दांडेलीचो के.एस. राव हांणी सरवांनी आपापलीं सूचना आनी वाकसरेचा वावराक तांतांचो सहकार भासायलो.

प्राथमीक हंतार फा. हर्बर्ट नोरोन्हा जे.स. हाच्या मुखेलपणार वाकसरीचें काम सुरु जालें. उपरांत फा. विल्ली डिसिल्वा हाका संपादक म्हण नेमक केलो. पूण, दुरादृष्टावशात सरकारान मुक्ले अनुदान रावयल्यान आनी हेर सबार तांत्रीक समस्यां निमतीं हें योजन स्थगित जालें.

4.1.1992 दिसा कोजेजींत कोंकणी अध्ययन उगतावण सुवाळ्यांत कोंकणी कवी जे.बी. सिकवेराचो कविता संग्रह 'अशीं आयलीं ल्हारा.' पुस्तक मोक्ळीक केलो. श्री पावलु मोरासान अध्ययन विभागाचो स्मारक अंको उगतायलो. कोलेजिचो प्रांशुपाल बा. जोसेफ नेलपती हांणें सैयरांक आनी वावराड्यांक उपकार आटयलो.

22 जनेर 1992 तारीकेर कोंकणी अध्ययन केंद्रांत कर्नाटकांतच पयिल्ले पावटीं रेक्टर मा. बा. आवेलीन डि'सोजाच्या अध्यक्षपणार दिरेकतोर बा. जे. सि. नेलपतीन 33 जण विद्यार्थीं सवें एका वरसाचो कोंकणी डिपलोमा कोर्स सुरु केलो.

1993 फेब्रेर 19–21 परयांत कोंकणी संस्थ्यान कोलेजिच्या सभासालांत तीन दिसांचें कोंकणी साहित्यिक कार्यागार मांडून हाडलें. मंगळूर भारत बीडी संस्थ्याचो आडळीत निर्देशक श्री गणपती पै हांणें कार्यागार उगतावण केलें. आख्या कर्नाटक मट्टार कोंकणी अध्ययन विभाग सुरु केल्लो आनी आपली माय भास कोंकणी न्हंय आसल्ल्या तशेंच कोंकणी उलयनातल्ल्या प्रांशुपाल मा. जोसेफ नेलपतीन कोंकणे वयर उचारललो अभिमान विशेस म्हण ताणें होगळीक उचारली. सां. लुवीस कोलेज मुळाथावन इंगलीश माध्यमांत शिकप दीवन प्रख्यात जालयारी कोंकणीक दिल्ल्या मानाक जेजवीतांक ताणें अभिनंदन पाटयले.

प्रमुख संपनमूळ वेकती जावन गोंयचा तोमास स्टीवनस कोंकणी केन्द्राचो ख्यात विदवांस आनी भाशातज्ञ मा. दो. प्रताप नायकान प्रस्तावन भाषण केलें. गोंय आनी मंगळूरचे प्रवीण भाशाशास्त्रींनी चलवन व्हेल्ल्या ह्या कारयागारांत प्रमुख विशय जावन कोंकणीचें प्रमाणीकरण, लिपी आनी शाळांनी कोंकणी भास शिकंवचे विशीं विचार विनिमय, चर्चा तीनी दिसांनी चलयली.

ह्या कारयागारांत आदल्या वरसा कोंकणी अध्ययनाचो डिप्लोमा कोर्स केल्ल्या 17 विद्यार्थींक मौल्य पत्रिकां, कर्नाटक सरकाराचो कार्मिक मंत्री श्री ब्लेसियस डिसोजान वितरण कर्न घटिकोत्सव आचरण जालो. तीन दिसांच्या ह्या कारयागारांत मंगळूरच्या हरयेका शिक्षण संसथ्यांच्या व्हडिलांनी, तज्ञांनी, कोंकणी अध्ययन विभागाच्या शिक्षक आनी विद्यार्थिंनी, पत्रिका संपादकांनी वांटो घेतल्लो.

1993 मे महिन्यांत सां. लुवीस कोलेजिच्या कोंकणी अध्ययन विभागान सां. जुजे सेमिनरीच्या देवशास्त्राच्या विद्यार्थिंक एका हफत्याचो कोंकणी कोर्स आसा केलो सुमार तीस विद्यार्थिंनी हांतून भाग घेतलो. 1994 मार्च महिन्या थावन बा. प्रशांत माडता प्रिन्सिपाल जावन नेमक जालो. ताणें कोंकणी संस्थ्याक आनी डिप्लोमा कोर्साक प्रो. बेनेट पिंटोक कार्यकारी दिरेकतोर नेमलो.

1994 अक्टोबर 29–30वेर कोंकणी अध्ययन विभाग आनी राकणो हफताळ्यान कोलेज सभांगणांत कोंकणी बरपा रीतिविर्शी परिसंवाद चलयलो. संपनमूळ वेक्ती जावन दो. विलियम माडता, दो. प्रताप नायक आनी दो. विलियम द सिलव आयिल्ले. परिसंवादांत 'कोंकणी भास आनी कानडी वर्णमाळ', 'दिरवें आनी सिलवेस्तर मिनेजा उपरांतली कोंकणी बरोंवची रीत', आनी 'समाज, भास आनी बरप' ह्या विशयांचेर संपनमूळ वेक्तिंनी विचार मांडले. 63 जणांनी भाग घेतल्ल्या ह्या परिसंवादांत विविध पत्रांचे संपादक हाजर आसल्ले. एके भाशेचे प्रगतेक शिकपा माध्यम, या शिकपा विशय जावन ती भास वाडोन येजाय जालयार, बरपा रीतिंत एकरूप भोव गरजेचें. हाका शिकपा संस्थ्यांचो, कोंकणी भाशा तज्ञांचो, पत्रांच्या संपादकांचो आनी बरवप्यां–वाचप्यांचो सहकार गर्ज देकून कोंकणी भाशेच्या वाडावळेंत, फुडारांत आधार जांवच्याक हो सम्मेळ चड उपकाराचो जाल्लो.

24 जून 1995 वेर फुडें कोलेजींत दुसरी भास जावन कोंकणी शिकोवयेत म्हण विश्वविद्यालया थावन परवणगी मेळ्ळी. बा. प्रशांत माडताचा मुकेलपणार पाठपट्टी तयार करून मंगळूर विश्वविद्यालयाक दिली. 15 जून 1996 थावन बी.ए. दुसर्या वरसाक कोंकणी भाशेचें पादार्पण जालें. आनी कोंकणिच्या चरित्रेंत पयिल्ल्या पावटीं सां. लुवीस कोलेजींत डिग्री क्लासिच्या विद्यार्थींक दूसरी भास जावन कन्नड, हिन्दी आनी संस्कृताच्या बदलाक कोंकणी शिकोंक अवकास लाभलो.

बा. प्रशांत माडता आनी प्रो. बेनेट पिंटोच्या प्रयतनान 1992 थावन 1997 परयांत पांच वरसां कोलेजिच्या बांदपांत सांजे वेळा चलल्लो एका वरसाचो कोंकणी डिप्लोमा कोर्स 7 मार्च 1997 वेर दोन वरसांचो स्नातकोत्तर कोंकणी डिप्लोमा करेसपोंडेन्स कोर्स जावन सुरवात करचाक जाहीर केलें. ह्याच वरसा आगस्ट 20 थावन कार्यारूपार आयिल्ल्या ह्या करेसपोंडेन्स कोर्साचो कार्यकारी निर्देशक प्रो. बेनेट पिंटो नेमक जालो. ह्या द्वारीं संसारभर विद्यार्थींक तांतूं भाग घेवन आपली शिकपा तान भागंवक आवकास लाभलो. पयलें वरस कोंकणी भाशेची आनी साहित्याची चरित्रा, कथा आनी कादंबरिंचें अध्ययन, कोंकणी नाटक कला, कोंकणी कविता, दूसरें वरस लोकवेद शास्तीर, साहितीक ठिका, भास विज्ञान, साहिताची तुलनात्मक वरवणी – अशें 8 पठ्य विशय आसल्लें.

2.9.2000 – हो दीस कोंकणी चरित्रेंत विशेष दाकलो रच्या तसलो जांवक पावलो. कोंकणी संस्थ्यान प्रारंभ केल्ल्या कोंकणी स्नातकोत्तर पदवी करेसपोंडेन्स कोर्सांत उत्तीर्ण जाल्ल्या विद्यार्थींक दीक्षा दींवचो घटिकोत्सव संभ्रमान चल्लो. कोलेजीच्या सभांगणांत देश विदेशांतल्या 85 विद्यार्थींक गोंय विश्वविद्यालयाचो कुलगुरु दोतोर बी.एस. सोंदे हाच्या मुखांत्र हातांतर केलो. कोंकणीच्या आनी सां लुवीस कोलेजिचा चरित्रेंत पयिल्लो जावनासच्या ह्या संभ्रमांत प्रांशुपाल बा. प्रशांत माडता, कार्यकारी दिरेकतोर प्रो. बेनेट पिंटो, रेक्टर मा. बा. रालफ दे.कोस्ता उपस्थित आसल्ले.

19.11.2000 वेर कोंकणी संस्थ्यान मंगळूरी कथोलीक समुदायाची वंशावळी विशीं अध्ययन केल्ल्या डा. मायकल लोबो हाची 'डिस्टिंगविश्ड मंगलोरियन कथोलिक्स 1800–2000' संसोधीत ग्रंथ उगतायलो.

25 मार्च 2001 वेर मंगळूर नंतूरच्या ऐ.एस.डी. सभासालांत कोंकणी भाशे विकास सभेन गोंयच्या तोमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्रा सांगाता कोंकणी भास कन्नड लिपीन प्रमाणीकरण करचें तरभेती शिबिर आसा केल्लें. ह्या शिबिरांत कोंकणी संस्थ्या तरफेन कार्यकारी दिरेकतोर प्रो. बेनेट पिंटो आनी श्री एडवीन जे.एफ. डिसोजा हांणी भाग घेवन विचार मंडन केले.

29 एप्रिल 2001 – सां. लुवीस कोलेजिचा सभा सालांत कोंकणी

लेखकांचो एकतार आनी 'काणीक' पत्रान सांगाता अखिल कर्नाटक कोंकणी सम्मेळ चलयलो. कोंकणी खातीर दिल्ली सेवा मानून ह्या सम्मेळनांत कोंकणी संस्थ्याक सनमान करून सनमान पत्र पावीत केलें.

2001 जून 24 वेर श्री प्रेमकुमार – हाणें बरवन कोंकणी संस्थ्यान प्रगट केल्लो 'कोंकणी कलियोण' पुस्तक मंगळूर डोन बासको होलांत चलल्ल्या कोंकणी अकाडेमी प्रशस्ती प्रदान समारंभांत मोकळीक जालो.

2001 जुलाय 15 वेर सां. लुवीस कोंकणी संस्थो, संदेश प्रतिष्ठान बज्जोडी, टी.एम.ए. पै प्रतिष्ठान मणिपाल आनी 'राकणो' सातोळें सांगाता मेळोन मा. सी.सी.ए. पै संस्मरण विचार सातें मांडून हाडलें. ह्या विचार सात्यांत कोंकणी संस्थ्याचो दिरेकतोर तशेंच सहायकांनी सक्रीय भाग घेतलो.

2001 आगस्ट 20, 'काणीक' पत्रा तरफेन 9वो कोंकणी मान्यता दिवस मंगळूर टौनहोलांत आचरण जालो. ह्या संदरभीं कोंकणी भाशेक दिल्ल्या सेवे खातीर सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्याक सनमान पत्रा सवें सनमान केलो.

13 आनी 20 जनेर 2002 – कोंकणी संस्थ्यान कोलेजीच्या सभांगणांत कानडी लिपियेन कोंकणी बरंवची प्रमाण रीतिविशीं दोन कामासाळां मांडून हाडलीं. गोंयच्या तोमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचो निर्देशक फा. प्रताप नायक आनी फा. वालेरियन फेरनांद संपनमूळ वेक्ति जावन आयिल्ले. ह्या संदरभार तोमास स्टीवन्स केंद्राचो 'कानडी लिपीन कोंकणी बरंवचीं प्रमाण रीत' म्हळ्ळो पुस्तक विमोचन केलो.

30.6.2002 – सां. लुवीस कोलेजीच्या सभासालांत कोंकणी संस्थ्याचा आश्रयाखाल मानेस्त पावलु मोरासान संसोद चलवन बरयिल्लो 'कोंकणी चळवळ' ग्रंथ राकणो पत्राचो आदलो संपादक मा. मार्क वालडरान मोकळीक केलो. मुकेल सयरो जावन मंगळूर महानगरपालिकेचो मेयर शशिधर हेगडे आयिल्लो. ह्या संदर्भार कोंकणी भाशेच्या अभिवृद्धेक वावर केल्ल्या श्रीमती ओकटेविया आलबुकर्क, आदलो कायद्या मंत्री श्री ब्लेसियस डिसोजा, मा. मार्क वालडर, राकणो संपादक मा. एरिक क्रासता हांकां कोंकणी संस्थ्याच्या तर्फेन सनमान केलो.

20.10.2002 – दो. मायकल लोबो हांणें बरयिल्लो 'मंगळूरी कथोलिकांची व्यक्ति चरित्रा' ग्रंथ कोंकणी संस्थ्यान कोलेजीच्या सभांगणांत

आसा केल्ल्या कार्यक्रमांत मोकळीक केलो. हें समारंभ जिल्लाधिकारी श्री ए.के. मोन्नप्प हाच्या अध्यक्षपणार चल्लें.

27.10.2002 वेर मंगळूर शक्तिनगर मकाळेच्या कलांगणांत, कर्नाटक कोंकणी भाषा मंडळान कोंकणीची सेवाखातीर कोंकणी संस्थ्याक पावीत केल्लो सनमान, कोंकणी संस्थ्याचो दिरेक्तोर प्रो. बेनेट पिंटोन स्वीकार केलो.

2002 नवंबर 29–30 ह्या दिसांनी सां. लुवीस कोलेजीच्या सभासालांत अखिल भारत साहित्य अकाडेमी डेल्ली आनी कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीच्या सहभागित्वान शेणय गोंयबाबाचे जिणीये आनी कार्याविशीं कार्यागार चल्लें. ह्या कार्यागाराक गोंयकार, कोच्चीकार, मुंबयकार आनी मंगळूरचे साहिती हाजर आसल्ले. कोंकणी संस्थ्या तरफेन कार्यकारी दिरेक्तोर प्रो. बेनेट पिंटोन सक्रीय भाग घेतलो.

24 आगस्ट 2003 – बेंगळूर रवींद्र कला क्षेत्रांत सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्यांत वावुरपी श्री गोपाल गौडा – हाका कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीची 2002 व्या वरसाची 'गौरव जानपद प्रशस्ती', कन्नड आनी संस्कृती इलाखेची, मंत्री राणी सतीष हिणें, अकाडेमीचो अध्यक्ष मो. अलेगसांडर डिसोजाच्या उपस्थितिर प्रदान केली.

8, 9, 10 दशंबर 2003 वेर कोलेजीक भेट दिल्ल्या NAAC पंगडाचा वरयणारांनी कोंकणी संस्थ्या मुखांत्र कोलेजींत कोंकणी भाशेचा शिक्षणाक आवकास करून दिल्ल्याक आनी कोंकणी बुकां वळेर पळेवन होगळीक उचारली.

17 दशंबर 2003 वेर कोंकणी संस्थ्यान कोलेजीच्या ऐ.टी. सभासालांत दे. बेनेट पिंटो स्मारक उपन्यास सादर केलो. मुकेल सयरो फामाद संगीतकार बा. चार्ल्स वास एस.वी.डी. हाणें कोंकणी संगीताविशीं उलवप दिलें.

24 एप्रील 2004 – कोंकणी संस्थ्यान कोलेजीच्या ऐ.टी. सभासालांत दे. सिलवेस्टर मोंतेरो स्मारक उपन्यास आनी कोलेजीचो निवृत्त प्रांशुपाल फा. प्रशांत माडता हाचे पांच बूक उगतावणेचें दोडें कारयें मांडून हाडलें. मंगळूरचो धर्माध्यक्ष मा. लुवीस पावल सोज बापान ह्या पुस्तकांचें उगतावण केलें. सिलवेस्तर मोंतेरो स्मारक उपन्यास सां. जुजे सेमिनरिचो रेकटर फा. विकटर मचादो हांणीं केलो. सां. लुवीस कोलेजीचो रेकटर बा. फ्रानसीस

सेरावो ह्या कार्याचो अध्यक्ष बसल्लो.

19 दशंबर 2004 दिसा कोंकणी संस्थ्यान कोलेजिच्या ऐ.टी. सभासालांत रेकटर बा. फ्रानसीस सेरावो जे.स. चा अध्यक्षपणार दुसर्या वरसाचो दे. बेनेट पिंटो स्मारक उपन्यास मांडून हाडल्लो. संपनमूळ वेक्ति जावन आयिल्ल्या श्री डोलफी कास्सियान 'कर्नाटकांत कोंकणी पत्रिकोद्यम आनी कोंकणी पत्रां' म्हळ्ळ्या विशयाचेर उलवप सादर केलें.

2004 दशंबर 26-29 मंगळूर जप्पिनमोगरू बीसप बाजील सोज नगरांत कोंकणी कथोलिकाचो चारित्रीक जागतीक सम्मेळ चलल्लो. ह्या सम्मेळनांत सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्यान पुस्तक प्रदर्शना साल घालून चार दिसांनी भाग घेतलो.

2005 जनेर 12 वेर कोलेजीच्या शतमानोत्तर रुपयोत्सव (125 वरसां) आचरण संपणे सुवाळयांत निवृत्त प्रिनसिपाल आनी कोंकणी संस्थ्याचो दिरेकतोर फा. प्रशांत माडतान बरयिल्लो, कोलेजीच्या चरित्रेचो बृहत संशोधनात्मक ग्रंथ 'ON EAGLES WINGS' - An Intimate History of 125 Years of St Aloysius College' मोकळीक जालो. कोलेजीच्या अलयुमनी एसोसियेशनान हो ग्रंथ प्रगट केल्लो. जेजवीत प्रोविनशियल बा. विजय प्रभु, एम.एल.सी. ब्लेसियस सोज, मंगळूर विश्वविद्यालयाचो कुलपती प्रो. बी. हनुमंतय्या, रेकटर फा. फ्रानसीस सेरावो आनी सबार मान मनीस उपस्थित आसल्ले.

1.6.2005 वेर कानडी लिपीन कोंकणी शिकंवक कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीन आपयिल्ल्या समालोचन सभेंत आनी मैसूर मानस गंगोत्रीच्या भारतीय भासांचा केंद्र संस्थ्यान आसा केल्ल्या पद्य पुस्तक रचना समितीचा सभेंत कोंकणी संस्थ्या तरफेन श्रीमती ग्लेडीस रेगो हाजर जाल्ली.

9.7.2005 वेर कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीची 2004 वरसाची गौरव साहित्य प्रशस्ती कोंकणी संस्थ्यांतली वावराडी श्रीमती ग्लेडीस रेगो हिका लाभली. बेळगांवची मेयर श्रीमती वंदना मोहन हिणे बेळगांव कुमार गंधर्व रंगमंदिरांत प्रशस्ती प्रदान केली.

2005 आगस्ट 14 वेर सां. लुवीस कोलेज संस्थो आनी कर्नाटक

कोंकणी भाशा मंडळ हांच्या सहयोगान श्री पावलु मोरासान बरयिल्लो कोंकणी चळवळ सरणीचो दुसरो ग्रंथ पत्रिकोद्यमाचो पयलो भाग 'जागरण' मोकळीक कारये देरेबयल फिरगज होलांत चल्लें.

2005 आगस्ट 20 दिसा कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीन कोंकणी भाशेक मान्यताय मेळल्लो 13 वरसांचो दीस आचरणा बाबतीन आसा केल्ल्या दिवया भंवडेर कोंकणी संस्थो आनी सां. लुवीस कोलेज कोंकणी संघा तरफेन लोयोला गेटीलागीं येवकार करून, दिवो घेवन दिवया भंवडेक गौरव दिलो.

2005 दशंबर 17-24 – ह्या दिसांनी बिकरनकट्टे कार्मेल गुडयार कोंकणी साहित्य अकाडेमीन कोंकणी लेखक, प्रगटनार, संगीत रचणार, निर्मापक आनी पत्रकारांक प्रोत्साह दिंवच्याखातीर पुस्तकांच्या विकर्याक कोंकणी बजार आसा केल्लें. ह्या बजारांत बुकस्टाल घालन कोंकणी संस्थ्यान सातयी दिसांनी भाग घेतलो.

2006 फेब्रेर 22 वेर सां. लुवीस कोलेज अडिटोरियमांत कोंकणी संस्थ्याचो रुपयोत्सव, दे. बेनेट पिंटो स्मारक तिसर्या वरसाचो उपन्यास, कोलेजिचा कोंकणी संघाचो दशमानोत्सव, कोंकणी संस्थ्यान प्रगट केल्ल्या नवया पुस्तकांचें मोकळीक कारयें सांगाता मांडून हाडल्लें. रेकटर बा. फ्रानसीस सेरावो हाच्या अध्यक्षपणार जेप्पु सेमिनरीचो रेकटर मा. विक्टर मचादो मुकेल सयरो जावनासोन कर्नाटक कोंकणी अकाडेमीचो अध्यक्ष श्री एरीक ओझेरियोन संदेस पाटयले. दो. एडवर्ड नजरेतान दे. बेनेट पिंटो स्मारक उपन्यास दिलो. ह्या संदरभार कोंकणी संस्थ्यान प्रगट केल्ले – श्रीमती ग्लेडीस रेगोन बरयिल्लो दे. फा. वालेरियन सोजाची जीवन चरित्रा 'जळल्ली वात', जो.सा. आलवरिसाची कादंबरी 'कमलाचें घर भरल्लो आजो' दुसरो छापो, 'वोवियो आनी वेरस', तिसरो छापो आनी सां लुवीस कोलेज कोंकणी संघाचें दशमानोत्सव अंको 'पर्जळ' मोकळीक जाले.

2006 मे 19 दिसा केंद्र साहित्य अकाडेमी आनी इनस्टिट्यूट मिनेजस ब्रगांझा गोंय हाणीं पणजींत चलोवन व्हेल्ल्या कारयांत हळियाळ तालूकांतल्या सिद्धी जनांगाचा जानपदा विशयाचेर कोंकणी संस्थ्यांतल्या श्रीमती ग्लेडीस रेगोन प्रबंध मंडन केलो.

2006 जून 30 वेर सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्यान आपल्या पंचवीस वरसांच्या रुपयोत्सवाच्या उडासाक कोंकणी अध्ययनाचा विद्यार्थीक पाठ पुस्तक जावन 'कोंकणी सिरी' म्हळ्ळो कविता, मटव्यो काणियो आनी आत्म चरित्रा आटापचो बूक प्रगट केलो. प्रांशुपाल पा. एवजीन लोबो आनी प्राध्यापकी स्टेल्ला देकोसता हांच्या जोड संपादकपणाखाल हो बूक बरयला.

2006 आगस्ट 17 दिसा 'नम्म टी.वी.' चानेलांत प्रसाराखातीर कोंकणी संस्थ्या तरफेन 'कविता कलासंगम' म्हळ्ळें कारयें सादर जालें. कोंकणी संस्थ्याची श्रीमती ग्लेडीस रेगोन आपलीं स्वंत दोन कवनां, कोंकणी स्नातकोत्तर पदवी करेसपोंडेन्स कोरसाचो विद्यार्थी श्री संतोश डिसोजान आपलें एक कवन वाचन, त्याच वेळा आमच्या कोलेजीच्या कोंकणी विद्यार्थींनी संगीत गायन आनी विलसन कय्यारान कला रचून दिल्लें हें कार्यक्रम कोंकणींत पयिल्लो प्रयोग जावनासा.

21.04.2007 वेर शाळांनी कोंकणी शिकंवक सरकाराची परवणगी लाभल्ल्या उडासाक कर्नाटक कोंकणी भाषा मंडळान कोंकणी संस्थ्यान केल्ल्या कोंकणीचा प्रेरणात्मक वाव्राक मानून, एलोशियस कोलेजीच्या सभा सालांत आसा केल्ल्या कार्याक्रमांत उपकार बावडून परगट सनमान केलो. हो सनमान कोलेजीचो प्रांशुपाल फा. स्वीबर्ट डिसिलवा हांणी स्वीकार केलो.

14.07.2007 ह्या दिसा कोंकणी संस्थ्यान कोलेजीचा ए.वी. होलांत कोंकणी भास, साहित्य, संस्कृती आनी संसोधाच्या वाडावळीक कोंकणी संस्थ्या मुखांतर कार्यारूपाक हाडयेत जाल्ल्या योजनाविशीं वेवेगळे प्राध्यापक संशोधक, साहिती, आनी पत्रकारांक जमवन तांचे अभिप्राय एकटायले. प्रांशुपाल बा. स्वीबर्ट डिसिलवाच्या मार्गदर्शनार चलल्ल्या ह्या विचार सात्यांत रेकटर बा. फ्रानसीस सेरावो हांच्या अध्यक्ष पणार सुमार 50 बरवपी, प्राध्यापक आनी पत्रकारांनी भाग घेतल्लो.

2008 जनेर 20 ह्या दिसा सां. लुवीस कोलेजिच्या ए.वी. होलांत कोंकणी संस्थ्यान, कोंकणी लेखकांच्या एकवटाचा सहयोगान 'भाशांतर – आयची गर्ज' म्हळ्ळें एका दिसाचें कामासाळ चलयलें. कार्यकारी दिरेकतोर एडवीन जे.एफ. डिसोजान 'भाशांतर म्हळ्यार कितें? आनी

ताची गर्ज कितें?' ह्या विशीं उपन्यास दिलो. दो. एडवर्ड नजरेतान पवर पोंयट तांत्रीकता द्वारीं भाशांतराची पुरातन चरित्रा, आधुनीक चिंतप, कन्नडा थावन कोंकणीक भाशांतर करचीं, ततवां आनी हुन्नर विवरिले. सुमार 50 प्रतिनिधींनी भाग घेवन, सगळो दीस साहिताच्या सबार प्रकारां वयर भलायकेभरीत भासाभास आनी चिंतप वाळ्ळें. भागीदारांक रेकटर बा. फ्रानसीस सेरावो हांणी प्रमाण पत्रां वांटलीं.

सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्याचो कार्यकारी दिरेकतोर एडवीन जे. एफ. डिसोज 1 जनेर 2008 दिसा डेल्ली साहित्य अकाडेमिच्या जेराल मंडळेंत कर्नाटकांतलो सांदो जावन पांच वरसां आवदेक विंचून आयलो. तांणी 20-24 फेब्रेर 2008 वेर डेल्लींत चलल्या साहित्य अकाडेमीच्या जेराल मंडळेचा अधिवेशनांत आनी अंताराष्ट्रीय मट्टाच्या साहित्योत्सवांत सक्रीय पात्र घेतलो.

10.8.2008 वेर मंगळूर बिसपाच्या निवास सभा सालांत कोंकणी लेखकांचो एकवट, राकणो हफताळें आनी सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्याच्या सहयोगान 'कोंकणी लेखकांचें मुक्त उलवप' म्हळ्ळें कारयें मांडून हाडल्लें. कोंकणींतले प्रथम कादंबरी (कानडी लिपी) 1950 वरसा प्रगट जाल्ली जो.सा. आलवरिसाची 'आंजेल' कोंकणी संस्थ्यान दुसरें मुद्रण छापून ह्या कार्यक्रमांत मोकळीक केली. कोंकणी संस्थ्याचो कार्यकारी दिरेकतोर एडवीन जे.एफ. डिसोज आनी हेच.एम. पेरनाल ह्या कारयाचे प्रमुख उलवपी आसल्ले.

12.1.2009 – सां. लुवीस हायस्कूल ग्राउंडांत चलल्ल्या .. संभ्रमांत 'अमर कोंकणी' 50वो विशेस अंको कोंकणी संस्थ्याचो पयिल्लो कार्याकारी निर्देशन प्रो. आल्बन कास्तेलिनो – हाणे मोकळीक केलो.

2009 आगस्ट 29-30 सां. लुवीस कोलेजीच्या ए.वी. रूम सभासालांत कोंकणी संस्थ्यान साहित्य अकाडेमी डेल्लीच्या सहयोगान 'अंतराज्य आनी प्रादेशिक कोंकणी समांतर सब्द कामासाळ' मांडून हाडलें. साहित्य अकाडेमीचो सलहा समिती सांदो राकणो संपादक फा. फ्रानसीस रोड्रीगस आनी डोलफी कास्सिया मुखेल सयरे जावन आसल्ल्या ह्या कामासाळेचे प्रमुख संपनमूळ वेक्ती गोंयचो डा. तानाजी हळरणकर आनी

कोच्चीची संशोधकी डा. सुनीती बायी आसल्लीं. कोलेजीचो रेकटर बा. जोसेफ रोड्रीगस, प्रांशुपाल फा. स्वीबर्ट डिसिलवा आनी 117 प्रतिनिधी ह्या कामासाळांत भागीदार जाल्ले. आनी डेल्ली साहित्य अकाडेमीचो जेराल मंडळेचो सांदो एडवीन जे.एफ. डिसोज ह्या कार्याचो संचालक आसल्लो.

2009 नवंबर 29 दिसा सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्यान कोलेजीचा ए.वी. सभा सालांत 'कोंकणी साहितांतलीं तीन प्रकारां' म्हळ्ळो अपूर्व परिसंवाद आनी कोंकणी पदवयुत्तर पदविका प्रमाण पत्रां हातांतराचें कार्यें चलयलें कोंकणी मटव्या काणियां विशीं मैसूरचो श्री वल्ली वग्गा, कोंकणी नाटकां विशीं श्री डोलफी कास्सिया, कोंकणी कवितां विशीं श्री हेच. एम. पेरनाल – हाणीं विचार मंडन केले. श्री पावलु मोरासान 'कोंकणी भाशेची चरित्रा' ह्या विशीं प्रबंध मंडन केलो. कोंकणी संस्थ्याचो प्रथम कार्यकारी निर्देशक प्रो. आलबन कास्तेलिनोन कोंकणी संस्थो चलोन आयिल्ली वाट विवरसिली. कार्यकारी दिरेकतोर एडवीन जे.एफ. डिसोजाच्या संचालकपणार चलल्ल्या ह्या विचारगोष्ठींत प्रांशुपाल फा. स्वीबर्ट डिसिलवा आनी रेकटर बा. जोसेफ रोड्रीगस हांच्या हुजरीं घटिकोत्सव चलवन कोंकणी पदवयुत्तर पदविका विद्यार्थींक प्रमाण पत्रां वितरण केलीं.

2010 आगस्ट 29 – सां. लुवीस कोंकणी संस्थो आनी साहित्य अकाडेमी डेल्ली हांच्या सहयोगान कोलेजिच्या ए.वी. सभासालांत 'कादंबरी आनी कादंबरी कर्त' विशाया वयर विचार संकिरण चलयलें. साहित्य अकाडेमी मुंबय घटकाचो प्रादेशिक अधिकारी डा. खुरशीद आलम मुकेल सयरो आसल्लो. कानडी लिपिंतली पयिल्ली कादंबरी जो.सा. आलवरिसाची 'आंजेल' – एडवीन जे.एफ. डिसोज, एडवीनाची 'हांव जियेता' कादंबरी – डोलफी कास्सीया, वीजेपी सलडानाची 'मोगा म्हाका शिकय' – राकणो संपादक फा. फ्रानसीस रोडरीगस – ह्या तेगांनी तीन कादंबरी वयर विचार संकिरण चलयलें. ह्या कार्याचो समनवयी सां. लुवीस कोलेज पत्रिकोद्यम विभाग मुखेस्त फा. रिचर्ड रेगो जे.स. आसल्लो. कार्याचें संचालकपण एडवीन जे.एफ. डिसोज आनी कार्यें निर्वहण सिरिल जे. सिकवेरान चलयलें.

2010 नवंबर 28 – सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्यान कोंकणी संघटन उडुपी जिल्लो हांच्या सहयोगान कल्याणपुर मिलाग्रीस कोलेजीच्या सभा सालांत एका दिसाचें 'साहितीक कामासाळ' आसा केल्लें. मिलाग्रीस

कोलेजीचो प्रिन्सिपाल फा. विजय लोबो अध्यक्ष वसल्ल्या ह्या कामासाळाक फा. मार्सेल सलडान्हा सयरो जावनासल्लो. 53 प्रतिनिधि हाजर आसल्ल्या कामासाळेचें उगतावण साहिती कटपाडीची श्रीमती क्याथरीन रोड्रिगस हिणें केलें. मटव्या काणियां विशीं कोंकणी संस्थ्याचो कार्याकारे दिरेकतोर एडवीन जे.एफ. डिसोज, नाटकां विशीं डोलफी कास्सिया आनी लेखनां बरंवच्या विशीं डा. जेराल्ड पिंटो संपनमूळ वेक्ति जावन विचार मंडन केले.

2012 जून 24 वेर कोंकणी संस्थ्याचें नवें दफतर कोलेजिच्या रेड बिलडिंगाचे माळियेर उगतावण, विश्रांत रेक्टर/प्रिन्सिपाल फा. लियो डिसोजा जे.स. हाणीं केलें. उपरांत कोलेजिच्या ए.वी. सभासालांत कोंकणी संस्थ्यान 'कोंकणी साहितांत रेडियो/अंतरजाळिंचो प्रवेस, पात्र आनी प्रभाव' ह्या विशयाचेर परिसंवाद कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठानाचो सहनिर्देशक श्री गुरु बाळिगा, आकाशवाणी निर्वाहकी श्रीमती फ्लोरीन रोच हिणें 'कोंकणी साहित्य आनी आकाशवाणी', एडवीन जे.एफ. डिसोजान 'कोंकणी साहित्य आनी अंतरजाळ' म्हळ्ळ्या विशयांचेर विचार मांडताना मानेस्त हेच.एम. पेरनाल हाणें विचार गोष्ठियो समन्वय जावन कार्यें चलयलें. श्री गुरु बाळिगान माहिति तंत्रज्ञान उपयोग करून विविध लिपिंनी (देवनागरी, रोमी, कन्नड, मलयाळम) आस्चें कोंकणी साहित्य लिपयंतर करचें 'कोंकणवर्टर' आपुण तयार करून आसचा विशीं सविवर माहेत दिली. कोंकणी लेखक श्री एडी नेट्टो, श्री डेविड डिसोजा, राकणो संपादक फा. फ्रान्सीस रोड्रिगस हाणीं चर्चा चलयिल्ल्या ह्या सुवाळयांत 31 आसकतांनी सगळो दीस भाग घेतलो.

2012 दशंबर 16 दिसा कोलेजिच्या ए.वी. सभासालांत कोंकणी संस्थो आनी मंगळूर कोंकणी लेखकांच्या एकताराच्या जोड आसर्याखाल 'बरवपी-संपादपी-वाचपी' म्हळ्ळें विचार सातें माडून हाडलें. एडवीन जे. एफ. डिसोज आनी राकणो संपादक फा. फ्रानसीस रोडरीगस संपनमूळ वेक्ति जावन विचार मंडन केल्ल्या ह्या कार्याचो समन्वय किटाळ संपादक हेच. एम. पेरनाल आसल्लो आनी सुमार 55 प्रतिनिधींनी भाग घेतलो.

कोंकणी संस्थ्यांतलो ग्रंथालय एक पुरातन आनी अपरूप कोंकणी पुस्तकांचें म्यूसियम म्हणयेत. हांगासर आसचे सबार्शें ग्रंथ हेर ग्रंथालयांनी लभ्य नांत जावयेत. थोडया असल्या ग्रंथांचीं नांवां काडचीं तर – क्रिस्त

पुराण, दि हिसट्री आफ दि डयोसीस आफ मेंगलोर, दि क्यापटिविटी आफ केनरा क्रिशचियन्स, टि. डबल्यू वेन्न हाची मेंगलोर, फा. माफेयीची डिक्षनरी, क्रिस्त पुराणाच्यो विविध आवृत्त्यो; इतलेंच न्हय, थोडया ग्रंथांचो हात प्रतियो देकीक कोंकणींत महाभारत, स्वामी सुप्रिया, दे. ए.टी. लोबो, विजेपी सलडान हांच्यो हात प्रतियो अमूल्य रेलिकें परीं जगवन दवरल्ल्यो पळेंवक मेळतात. संवसारांत मेळच्या थोमास स्टीवनसाच्या थोडयाच हात प्रतियां पैकी सोळावया शेकडयांतली थोमास स्टीवनसाची एक हात प्रती ह्या ग्रंथालयांत जोगासाणेन सांबाळन दवरल्या. ह्या संस्थ्याक हरयेक नेमाळें येता आनी वरसाचे आखरेक हांचे खंड करून दासतान केल्यात. कोंकणी दिरवें, पयणारी, सुख-दुख, मित्र, झेलो, जेजुराय, आंज, काणीक, राकणो, उमाळो, आमची माय... इत्यादी आनी गोंयच्या नेमाळयांचोयी संग्रह आसा. चडावत कोंकणी मोगींनी तांच्या खासगी संग्रहालयांतलीं पुस्तकां आनी नेमाळीं संस्थ्याक दान दिल्यंत म्हळ्ळी संगत भरमाची. असले संग्रह आरावन हाडचांत प्रो. आलबन कास्तेलीन, दे. बेनेट पिंटो, मानेस्त एडवीन जे. एफ. डिसोज, मानेस्त रोकी मिरांद, श्रीमती ग्लेडीस रेगो, मानेस्त गोपाल गौडा, जेजवीत/सेक्युलर याजकांनी आनी अभिमानींनी सक्रिय वावर दिला.

कोंकणी साहित्यांतल्या म्हालघडयां सरणिंतलो फामाद साहिती मानेस्त एडवीन जे.एफ. डिसोजा 27.09.2007 वेर कोंकणी संस्थ्याचो कार्यकारी निर्देशक जावन नेमक जालो आनी ताची आमोलिक सेवा 24 मे 2018 परयांत कोंकणी संस्थ्याक निरंतर व्हाळ्ळी. ह्या आवदेंत ताच्या 'काळें भांगार' कादंबरेक 22.6.2014 वेर कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमिची 2013 वरसाची 'श्रेष्ठ पुस्तक प्रशस्ती', ता. 6.11.2014 वेर शक्तिनगर विश्वकोंकणी केंद्रा थावन कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठानान दींवची 'श्रीमती विमला वी. पै प्रशस्ती' आनी ताच्या 'काळें भांगार' कादंबरेक 22.2.2017 वेर साहित्य अकाडेमी देहलीची 2016 वरसाची 'साहित्य प्रशस्त्यो' प्राप्त जल्या. त्याच प्रमाणें 15 नवंबर 1999 थावन कोंकणी संस्थ्यांत सह वाव्राडी जावन सेवा दितेत आसच्या जानपद कलाकार गोपाल गौडा हाणें 24.8.2013 वेर कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीची 2002 वरसाची 'गौरव जानपद प्रशस्ती', ता. 1.11.2014 वेर जिल्ल्या राज्योत्सव प्रशस्ती आनी शक्ति नगर मांड सोभाण संस्थ्यान दिंवची '13 वी कारवाल घराणें प्रशस्त्यो आपणायला. कोंकणी संस्थ्यांत वावराडी आसल्ली श्रीमती ग्लेडिस

रेगो – हिका कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीची 2004 वरसाची 'गौरव साहित्य प्रशस्ती' ता. 9.7.2005 ह्या दिसा प्राप्त जाल्या.

सां. लुवीस कोलेजीक शेंभर वरसां भरताना स्थापित केल्ल्या ह्या कोंकणी संस्थ्यान कोंकणी भाशेच्या उदरगतीक वेवेगळे ध्येय घेवन कार्याक देंवल्ल्या पयकी पुस्तक परगटणीयी एक. कोंकणी संस्थ्यान वेवेगळ्या काळार प्रगट केल्ल्या पुस्तकांची पट्टी ह्या परीं आसा –

1. अमर कोंकणी – संसोधीत बरपांचें षणमासीक जनेर 1981 वेर प्रारंभ जावन 71 निरंतर अंके प्रगटल्या. 72 वो अंको छापयांत आसा.
2. 1982 – कमलाचें घर भरलोलो आजो
   – जो. सा. आल्वरीस – कादंबरी
3. 1983 – गोलगोथा – एं. गोविंद पै (तर्जुमोः एडवर्ड नोरोन्हा
   – काव्या रूपार नीळगथा)
4. 1986 – अर्थाभरीत सांगणयो – पी. दिनेश पै
   – गादींचो विमर्शात्मक विवरण
5. 1987 – वोवियो आनी वेरस – सं: आलबन कास्तेलीन
6. 1996 – कावयां पेळो – कवन संग्रह
7. 1996 – कोंकणी दायज – प्रबंध संकलन
8. 1996 – आंकवार आवै – ए.टी. लोबो – नाटक
9. 1996 – भांगार मनीस – चा. प्रा. देकोस्ता – नाटक
10. 1998 – वोवियो आनी वेरस – दूसरी आवृत्ती
    – सं: आलबन कास्तेलीन
11. 2001 – कोंकणी कलियोण – प्रेम कुमार
12. 2002 – कोंकणी चळवळ – पावलु मोरास
13. 2004 – कोंकणी पिकोळीं – फा. प्रशांत माडता
    – 10,000 सांगणयांचें संग्रह
14. 2004 – सानिध्या – फा. प्रशांत माडता (तर्जुमो:

The Cloud of Unknowing)

15. 2004 – निन्नंते नानागलु – फा. प्रशांत माडता (तर्जुमो: Imitations of Christ)

16. 2004 – शंभोर किटाळं – फा. प्रशांत माडता – लेखन संग्रह

17. 2004 – राटावळ – फा. प्रशांत माडता – हास्य लेखनां

18. 2005 – जागरण – पावलु मोरास (कोंकणी चळवळेचो दुसरो ग्रंथ

19. 2005 – कमलाचें घर भरलोलो आजो – जो.सा. आलवरीस (दुसरी आवृत्ती)

20. 2005 – वोवियो आनी वेरस – सं: ग्लेडीस रेगो (तिसरी आवृत्ती)

21. 2005 – जळल्ली वात – ग्लेडीस रेगो (फा. वालेरीयन डिसोजाची जिणिये चरित्रा)

22. 2006 – कोंकणी सिरी – सं: बा. एवजीन लोबो आनी श्रीमती स्तेल्ला देकोस्ता (कोंकणी पदवी विद्यार्थींक पाठपुस्तक)

23. 2006 – अमर दिरवें – सं: बा. एवजीन लोबो आनी श्रीमती स्तेल्ला देकोस्ता (कोंकणी संस्थ्याचो रुपयोत्सव अंको)

24. 2008 – आंजेल – जो.सा. आलवरीस (कादंबरी: दुसरो छापो)

25. 2008 – अमर कोंकणी 50 विशेषांक – सं: एडवीन जे.एफ. डिसोज

26. 2009 – वोवियो आनी वेरस – चवती सुधारित आवृत्ती

कोंकणी भाशेच्या वाडावळीक, ती जिवाळ दवरूंक कोंकणी संस्थो उघडून जेजवीतांनी शिकपाक आवकास करून दिलो. कोंकणी ग्रंथालय स्थापन करून अध्ययनकारांक संपनमूळ संस्थो जालो. कोंकणी भास आनी शिकप गांवांत तशें संसारभर विस्तारोंक संस्थ्याचे जेजवीत रेक्टर, प्रिन्सिपाल, दिरेकतोर आनी कार्यकारी दिरेकतोरांनी प्रोत्साह आनी आमोलीक सेवा दिल्या. तांची नांवां आनी आवदी ह्या सकयल दिल्या –

1. रेक्टर:

1. फा. मेथयू लुवीस जे.स. – 1977–1980
2. फा. रोनी प्रभु जे.स. – 1980–1986
3. फा. आवेलीन डिसोजा जे.स. – 1986–1992
4. फा. लियो डिसोजा जे.स. – 1992–1998
5. फा. रालफ ड कोस्ता जे.स. – 1998–2001
6. फा. विजय कुमार प्रभु जे.स. – 2001–2004
7. फा. फ्रानसीस सेरावो जे.स. – 2004–2009
8 फा. जोसेफ रोड्रीगस जे.स. – 2009–2013
9. फा. डेनजील लोबो जे.स. – 2013–2016
10. फा. डयनीसियस वाज जे.स. – 2016–

2. प्रिन्सिपाल:

1. फा. एल.एफ. रसकीन्हा जे.स. – 1966–1980
2. फा. ज्यूलियान फेरनांडीस जे.स. – 1980
3. फा. लियो डिसोजा जे.स. – 1980–1990
4. फा. जोसेफ नेलपती जे.स. – 1990–1994
5. फा. प्रशांत माडता जे.स. – 1994–2003
6. फा. एवजीन लोबो जे.स. – 2003–2007
7. फा. स्वीबर्ट डिसिलवा जे.स. – 2007–2017
8. फा. प्रवीण मार्टीस जे.स. – 2017–

3. दिरेकतोर:

1. फा. जोसेफ नेलपती जे.स. – 1990–1994
2. फा. प्रशांत माडता जे.स. – 1994–2003
3. फा. एवजीन लोबो जे.स. – 2003–2007
4. फा. स्वीबर्ट डिसिलवा जे.स. – 2007–2017
5. फा. प्रवीण मार्टीस जे.स. – 2017–2018

6. प्रस्तुत 2018 जून थावन फा. मेलवीन पिंटो जे.स. दिरेकतोर जावन नेमक जाला.

4. कार्यकारी दिरेकतोर:

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | प्रो. आलबन कास्तेलिन | – | 1980 |
| 2. | फा. हरबर्ट नोरोन्हा जे.स. | – | 1986 |
| 3. | श्री जोन इ. डि'सिलवा | – | 1992 |
| 4. | फा. प्रशांत माडता जे.स. | – | 1994–1997 |
| 5. | प्रो. बेनेट पिंटो | – | 1997–2002 |
| 6. | फा. स्टेनी डिसोजा जे.स. | – | 2003 |
| 7. | फा. एवजीन लोबो जे.स. | – | 2004–2006 |
| 8. | फा. स्वीबर्ट डिसिलवा जे.स. | – | 2007 |
| 9. | श्री एडवीन जे.एफ. डिसोजा | – | 2007–2018 |

कोंकणी संस्थ्यान, कोंकणी साहित्य, संस्कृति, जानपद, भाशा शास्त्र, विज्ञान, व्याकरण.... इत्यादि संगती वयर फामाद तज्ञांचीं संसोदीत बरपांचें षणमासीक 'अमर कोंकणी' जनेर 1981 थावन कानडी आनी देवनागरी – दोन लिपींनी प्रगटूंक सुरु करून निरंतर आजून प्रकटण चालतेर आसा. प्रारंभार थावन आतां मेरेन नांवाडदीक साहितींनी आनी जेजवीत सभेच्या सांदयांनी ताचें संपादकपण यशसवी थरान चलयलां. तांचीं नांवां आनी आवदी ह्या सकयल्या प्रमाणें आसा –

1. वी.जे.पी. सलडान्हा: जनेर 1981 – जुलाय 1985
(1–7=7 अंके)

2. प्रो. आलबन कास्तेलीन: जनेर 1986 – जनेर 1994
(8–22=15 अंके)

3. एडवीन जे.एफ. डिसोजा: जुलाय 1994 – दशंबर 2000
(23–35=13 अंके)

4. प्रो. बेनेट पिंटो: जनेर 2001 – दशंबर 2002
(36–38=3 अंके)

5. फा. स्टेनी डिसोजा जे.स.: जनेर 2003 – दशंबर 2003 (39–40=2 अंके)
6. फा. एवजीन लोबो जे.स.: जनेर 2004 – दशंबर 2006 (41–46=6 अंके)
7. फा. स्वीबर्ट डि'सिलवा जे.स.: जनेर 2007 – जून 2007 (36–38=1 अंको)
8. एडवीन जे.एफ. डिसोजा: दशंबर 2007 – जून 2018 (48–69=22 अंके)
9. प्रस्तुत फा. मेलवीन पिंटो जे.स.: दशंबर 2018 – 70व्या अंक्या थावन अमर कोंकणीचें संपादकपण चलयता.

कोंकणी संस्थ्यान प्रारंभ केल्ल्या पदव्युत्तर डिपलोमाच्या आखरेक विद्यार्थींक कोंकणिंतल्या विंचणार विशयां वयर तज्ञ अध्ययनकारांच्या मार्गदर्शनार एक घन प्रबंध बरंवक आवकास करून दिल्लो. ह्या लगतीं प्रारंभार थावन सबार आसक्त आनी उमेदवंत विद्यार्थिंनी म्हिनत काड्न तांचे अध्ययनात्मक प्रबंध मंडन केल्या. हांतले थोडे प्रबंध आमचें संसोधीत षणमासीक 'अमर कोंकणींत' आमी फायस केल्यात. आनी थोडया विद्यार्थिंनी तांचे स्वंत पुस्तकयी प्रगटल्यात. त्या विद्यार्थिंची आनी तांच्या प्रबंधांची पट्टी ह्या सकयल दिल्या –

1. सि. ह्यारियेट (मेटिलडा) पिंटो – दक्षिण कन्नड क्रिसतांव कोंकणी भाशेंत गाळी उतरां
2. श्रीमती ग्लेडीस रेगो – रांदपा कुडांतली साहेत आनी आयदां तांची नांवां – विशेशता आनी आळवाल्ली रीत
3. फा. क्षेवियर लोबो – मूळ लिपी
4. मधुकर मल्ल्या – आमचीं गांवची ओकता आनी वयज
5. डा. सूर्या अशोक – केरळांतुली कोंकणी कविता
6. शरतचंद्र शेणै – केरळांतुलो कोंकणी लोकवेद
7. सि. लूसी बेनेडिकटा – मंगळुरी लोकवेदांतली वयजापणाची विद्या
8. श्रीमती चंद्रमती एस. राव – गांवटी वक्कद

9. सि. मेबल सलदान्हा – आमचीं गांवटी ओकतां आनी वयज
10. श्रीमती फ्रानसेस जी. कोलासो – रांदपा कूड, साहेत आनी आयदां
11. फा. जोसेफ वाज एसवीडी – कोंकणी भाशेंत इतर भासांचो प्रभाव
12. सि. एम. सेलीन फुरटाडो – कोंकणेंतलो अमर साहिती आनी कवी मो। सिलवेस्तर मिनेज – हाणी केल्ली मातेची सेवा
13. सि. हिलडा लुवीस – 'तांबडी पितूळ' कादंबरिचो विमर्सो
14. सि. मरलीन वास – 'विंचून काडलेली परजा' कादंबरी विश्लेषण
15. श्री प्रकाश एम. बेन्निस – नाटकाची परंपरा आनी नाटक कला
16. डा. जेराल्ड पिंटो – कोंकणी कुडमी लोकवेद
17. डा. स्नेहलता शरतचंद्र – गौड सारस्वत समाज – एक परिचय
18. श्री ग्रेसियन पी. फ्रांक – कोंकणी नाटक आनी चलन चित्रां
19. ब्र. स्टीफन लुवीस – कोंकणी भास
20. श्रीमती ग्रेसी मोंतेरो – कोंकणी भाशेंत उलो उतरां – हांची सामाजिक–भाषिक विश्लेषण
21. श्रीमती फ्लोरा डिसोजा – राजकीय क्षेत्रांत कोंकणी क्रिस्तांव फुडारी
22. श्री अशोक क्लिफर्ड डिसोजा – आमचीं गांवटी वोकतां आनी वयज
23. ब्र. स्टीफन अरुण लोबो – कोंकणी भास
24. फा. पावल सिकवेरा – कोंकणी पत्रिकोद्यम चलोन आयिल्ली वाट
25. श्री विलसन पिंटो – पयलें विश्वकोंकणी सम्मेळन 1995
26. श्री मनोहर मेरवीन डिसोजा – कोंकणी जागृती
27. श्रीमती सोनिया देकोस्ता – सुणें माजर हासता नाटकाचें एक अध्ययन
28. श्री विवियन डिसोजा – आमचीं कोंकणी भकतीत गितां आनी तांचो विमरसो
29. श्री लारेनस डिसोजा – संप्रदायेची बदलावण

30. श्री हेच.एम. मारुती रायकर – कोंकणी भास आनी दैवज्ञ ब्राह्मण समुदाय
31. श्री मैकल कुतिन्हो – मंगळुरी कोंकणी क्रिस्तांवांचो तांदळा पोळियो आनी खाणां
32. श्रीमती सुचित्रा एस. शेणै – श्री मंजेशवर गोविंद पै, आमघेले म्हालघडे आनी मंजेशवर देवळाचे प्राचीनता
33. श्रीमती लूड्र्स मेंडोनसा – नाटक क्षेत्रांत कोडियालगार
34. ब्र. जेमिनियन विलफ्रेड मस्करेन्हस– कोंकणी लोकवेद
35. श्रीमती ग्लेडीस रेगो – हळयाळ तालूकांतले सिद्धी
36. सि.एम. एमिलियान ए.सी. – मंगळूर दियेसेजिंत कोंकणी पत्रिकोद्यमाच्या अभिवृद्धेंत प्रमुख संपादक याजकांचो पात्र
37. श्री जोर्ज रोड्रिगस – ड्यूयी पद्धते परमाणें कोंकणी पुस्तकांचें वर्गीकरण
38. श्री पावलु मोरास – कोंकणी भाशेची आनी साहिताची चरित्रा
39. सि. आन्ना स्तेल्ला मथायस – नाटक कलेची चरित्रा
40. श्री प्रेम कुमार – कोंकणी जानपद / लोकवेद
41. श्री सुनील पिंटो – मांड सोभाण आनी कोंकणी संस्कृति
42. श्री एल.एफ. पायस – Linguistic base for learning and teaching
43. श्री राजेश जे.ओ. फेर्नांडिस – कोंकणी चरित्रा – मराठी कोंकणी समस्या
44. श्री विनसेंट कुवेल्लो – संगीत क्षेत्रांत मंगळूरगार
45. श्री नोयेल प्रकाश कुतिन्हो – राजकीय क्षेत्रांत मंगळूरी कोंकणी कथोलीक
46. ब्र. मैकल डयास – कोंकणेंत लितुरजिक तर्जुमो, विश्लेषण आनी सुचनां

47. फा. जयप्रकाश डिसोजा – मंगळूरी कोंकणी क्रिस्तांव लोकाचेर पाश्चात्य संस्कृतेचो प्रभाव

48. श्री एडवर्ड डिसोजा – दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत शिक्षण आनी ताची प्रगती

49. ब्र. प्रकाश लोबो कापुचिन – केनरा सारस्वतांचो इतिहास

50. ब्र. प्रकाश रेमंड लोबो – शिकपा शेताक सारस्वतांची देणगी

51. श्री हेच. राघवेन्द्र राव – दक्षिण कन्नड जिल्लेंतु शिक्षण क्षेत्राक जी.एस.बी. आनी सारस्वत कोंकणयाले देणिग

52. सि. आयरीन तावरो – विलफी रेबिंबसाचीं पदा – एक अध्ययन

53. सि. मरिया ज्योती ए.सी. – मंगळूरी कोंकणी जानपद

54. श्री लोरेन्स लोबो – साहितीक ठिका – कोंकणी साहितांत ठिकेचें महत्व

55. श्री प्रेम कुमार – कोंकणी भाशेचे क्रम आनी नेम

56. श्री संतोष डिसोजा – मंगळूरी कथोलीक देव स्तुतेचें संगीत आनी कोंकणी भकतीक गितां

57. सि. पावलीन सलडान्हा – आमचीं गांवटी वकता आनी वयज

58. श्रीमती एस. जयश्री शेणै – कोंकणी भाशेची आनी साहिताची चरित्रा

59. श्रीमती सेलेस्टिन मोरास – कोंकणी कुडमी जानपद

60. श्रीमती फ्लाविया आलबुकर्क – कोंकणी क्रिस्तांव लोकाचें रांदपा कूड आनी रांदपा साहेत

61. श्री लोरेन्स विनोद बारबोजा – राजकीय क्षेत्रांत कोंकणी लोकाचें साधन

62. श्री जेसन पिंटो एस.वी.डी. – अखिल भारतीय पांवडयार कोंकणिचें प्रमाणीकरण – नियाळ आनी सुचोवणयो
63. श्री म्याक्षिम डिसोजा – कोंकणी कवि आनी संगीतकार
64. श्री राजेश डिसोजा – कोंकणी लोकवेद
65. श्रीमती आगनेस डोट्टी पिंटो – कोंकणी भाशेची आनी साहिताची चरित्रा
66. श्रीमती आगनेस आर डिसोजा – कोंकणी भाशेची आनी साहिताची चरित्रा
67. श्रीमती जोयस प्रीमा पिंटो – दक्षिण कन्नडाचें लोकवेद
68. कु. निकिता सिबिल रेबेल्लो – मंगळूरी कोंकणी क्रिस्तांवां मधें कोंकणी पदां, इतिहास, भलायकी आनी फुडार
69. श्री वेली फेर्नांडिस – आमचीं गांवटी वखदां आनी वयज
70. श्री फ्रेंक फेरनांडिस – आमचीं गांवटी वखदां आनी वयज
71. श्रीमती गीता मोहन शेट – कोंकणी भाशेची आनी साहिताची चरित्रा
72. श्रीमती प्रज्ञा पुंडलीक भटकळकर – कोंकणी भाशेची साहित्य चरित्रा
73. श्रीमती प्रीतन रेनिटा पिरेरा – रांदपा कुडांतली साहेत आनी आयदां
74. श्रीमती लोरेल डिसोजा – आमचीं गांवटी ओकतां आनी वयज
75. श्री क्रिस्टोफर जे. क्रास्ता – पत्रिकोदयम चलोन आयिल्ली वाट

कोंकणी संस्थ्याचें दफतर प्रारंभार सां लुवीस कोलेजिच्या बोरडिंग हौसाच्या माळीयेर उगतायलें. थंय थावन 1994 वरसा रेड बिलडिंगाक आयलें. उपरांत माफेयी होलाक आनी परत्यान रेड बिलडिंगाक स्थाळांतर जावन, प्रकृत रेड बिलडिंगाच्या माळियेर हें दफतर आसा. संस्थ्याच्या ग्रंथालयांत आसचे

कोंकणिंतले अपरूब पुस्तक वाचून कोंकणिचें ज्ञान वृध्दि करूंक अध्ययनकारांक आनी संसोधकांक मुकत आवकास आसा. दिरेकतोर जावन कोंकणिचो उमेदवंत युव साहिति, कवि फा. दो. मेलवीन पिंटो जे.स. आसा. सहायक वाव्राडी जावन मानेस्त गोपाल गौडा 1999 थावन सेवा दितेत आसा.

सां. लुवीस कोलेज स्थापन जावन 139 वरसां संपच्यार आसा. कोलेजींत इंगलीष माध्यमांत, तांत्रिक रितीन उन्नत शिक्षण जलोन अभिवृध्दि देकल्ल्या इडयांतयी कोंकणी भाशेक चिरमुटुंक सोडिनासताना फा. माफेयिच्या मेटानींच मुकार सरोन, कोंकणी संस्थ्या मुखांतर कोंकणी भाशेचा वाडावळेक जेजवितांची देणगी व्हाळत्त आसा. आज पासून सगळ्या कर्नाटक प्रांत्यांत खंयचाय शिकपा संस्थ्यांनी दींवक नासल्ली सेवा, स्थान आनी मान कोंकणीक सां. लुवीस कोलेजीन दिला. हाची कीर्त जेजवितांत फावो.

******

आधार साहित्य:


1. अमर कोंकणी आदले अंके
2. 'राकणो' चवतो दशमानोत्सव अंको – दशंबर 21–1978
3. सां. लुवीस कोलेज शतमानोत्सव स्मारक मेग्झीन 1980
4. ON EAGLES WINGS - An intimate history of 125 years of St Aloysius College - Fr Prashanth Madtha SJ - 2005
5. कोंकणी अध्ययन विभाग उगतावण स्मारक अंको 4.1.1992
6. अमर दिरवें – रूपयोत्सव अंको – 2005

# साहित्य आनी विमरसो

– मेलवीन पिंटो, नीरुडे

कांय थोडया महीन्यां आदीं वाटसापार आयिल्ल्या एका हास्य संदेशाचो उल्लेक करच्या सवें हें लेकन आरंब करतां. वाटसापार एक संदेश आयलो. पावसाच्या अभावाक इंगलीश मीडियम इसकोलां कारण. कितयाक इंगलीश मीडियम इसकोलांनी 'rain rain go away' म्हण शिकयतात. पूण कन्नड मीडियम इसकोलांनी 'बारो बारो मळेराय' म्हण शिकयतात. अशें आसल्लो तो संदेश.

हास्य संदेशाचो उद्देश कितेंयी आसूं. पूण पावसा विशीं घडल्ल्या ह्या दोन बाळ गीतांचे विशलेशण केलयार, हर एक साहित्य प्रकारांत विमरशाची गरज कितें तें कळता. Rain rain go away इंगलीश गीत आनी हाचें उगम इंगलेण्डांत केदाळा पावस, केदाळा वोत म्हण सांगूंक जायना. थंयचें वातावरण अजीब रीतिचें. देकून जोनीन rain rain go away म्हण गांवच्यांत चूक दिसाना, कितयाक पावसांत खेळोंक ताका जायना. पावस येता तर ताका खेळ ना.

पूण आमचो कन्नडाचो रामू 'बारो बारो मळेराय' म्हण गायता, कितयाकगी म्हळयार वरसाच्या तीन-चार महीने मात्र येंवचो पावस ताका लागशिलो. आनी अशें ताका पावसांत खेळुंकयी कळीत आसा. पावसाचे म्हळ्ळेच खेळ ताचें लागीं आसात. तशें आसतां पावस येवनंच आसुंदी म्हळ्ळें भगाप ताचें.

हर एक साहित्य आनी साहित्य प्रकारांत एक संस्कृति आसता. आमी एक कला विमरशायाक ओपसिताना, त्या कले पाटली, साहित्या पाटली संस्कृति, आचार-विचार, text with context विसरून विमरसो करूंक जायना. अकेरीक विमरसो म्हळ्यार कितें? विमरसो या इंगलीश भाशेंत criticism म्हळ्यार एका कलेचें, साहित्याचें ओट्टारे अवलोकन करचें. तशें म्हळयार, खंयच्या आयामांनी ती कला बळीष्ठ आनी खंयच्या विचारांनी ती अस्कत म्हण वोरोंवचें विगयान. हांवे विगयान म्हळें. तशें म्हण विमरसो विगयानंच जायजय म्हण ना. विमरसो कलायी व्हय. पूण

हर एका विमरशाक एक आदार सूत्र कांय तरयी आसताना मात्र विमरसो पातयेंवच्या तसलो जाता; ना तर व्यक्तिगत जावन उरचो संभव आसा.

साहित्य विमरसो म्हळयार वाचपयान एक साहित्य कृतिये सवें करचो एक संवादयी व्हय. हो संवाद साद्य जायजय तर वाचपयाक त्या कृतियेचें पाट थळ (context) कांय थोडें अर्थ जायजय. दाकल्याक सोळावया शतमानांत शेकसपीयरान बरयिल्ले नाटक आज आमी अर्थ करीजे तर, त्या नाटक रचणेचो संदरभ, परिसर मातसें समजून घेजय जाल्ली गरज आसा. एका सादया वाचपयाक हें कष्ट जायत. देकुनंच एक हेळल्लो विमरशक वाचपयाक ह्या दिशीं कुमोक करूंक सकता.

हर एक व्यकती थंय एक विमरशातमक दीष्ट खंडीत आसा. तशें म्हण विमरसो म्हळयार खोडी काडचें न्हंय, जांवक हर एका विमरशांत खोडी जरूर आसतात. कशें हर एका कलाकारा थंय, साहिती थंय विमरशात्मक दीष्ट आसता, एका सहृदयी थंय, वाचपया थंययी विमरशातमक दीष्ट आसता, आसाजे पडता. 'मातयाक ओतल्लें पांयाक देंवता' म्हण एकलो कोणायी विशीं उलयता तर, थंय ताची विमरशातमक दीष्ट आसा. 'हो तांतयांतच साद घालता' म्हण एकलो अनयेका विशीं सांगता तर, थंयसरयी एक विमरशातमक नदर आसा. कोण खंयचया कालेतीचो, खंयचया संयभाचो म्हण विशलेषण करनंच उलोवपाक देंवची रीत हर एकलयाक अपलेसतकीं येता. 'ती लायो फुटल्ले बरी फुटता' म्हळ्ळे थंय एक विमरशातमक दीष्ट पळेवयेत. हाका पूरक जावन हर एक भास, आनी भाशेचो प्रयोग आमकां आमच्यां विमरशा नदरेक आदार जाता. मालघड्यांनी तेदाळा तेदाळा म्हणचें हांवें आयकलां: 'आमच्या काळार आमी गादयांक उदाक वाववन सागोळी केलया' म्हळयार त्या काळार कष्ट चड आसल्ले. आतांच्या पीळगेक कष्ट कळीत नांत, सरव सलीस जालां म्हळ्ळें विमरशातमक चिंताप आमी थंयसर पळेवयेत. तशें म्हण हर एक विमर्शा नदर साहितीक जाता म्हण न्हंय. पूण हर एक साहितीक विमर्शाक, मनशाची विमर्शा कालेत आदार जाता म्हळ्ळें मात्र सत.

## 'कले खातीर कला' (Art for Art's Sake)

साहित्य या खंयच्यायी प्रकाराच्या कले थावन कांय सामाजीक बरेपण या समाजे थंय जवाबदारी आसागी ? एकणिसाव्या शेकड्या लागायत ह्या लगती कांय थोडो वाद विवाद विमर्शा शेतांत जावनंच आसा. 'कले

खातीर कला' (Art for Art's Sake) म्हळ्ळें व्याखयान पयलें फ्रेंच कला संस्कृतेंत उदेल्लें तें उप्रांत इंगलीशांत आनी इतर भाशेंनिंयी लोकामोगाळ जालें. बेनजमीन कोनस्टांट, एडगर आलन पो हांचया साहितीक दिश्टींत कला, या साहित्याक हेर कसलोयी उद्देश ना, कलाच ताचो उद्देश म्हळ्ळो वाद दिश्टीक पडता. एक कला केवल एक अभिव्यक्ति जावनासतां, त्या कलेक नैतिकतेचो लेप दीवन सामाजिक जवाबदारी दीजय म्हण ना म्हळ्ळो तांचो वाद.

पूण हो वाद क्रमेण मार्कसिस्ट चिंतपयां थावन आनी इतर तत्वशास्त्रीं थावन विरोदाक ओळग जाल्लो दिसून येता. तत्वशास्त्री नीचेन सांगचे प्रकार, एक कलाकार आपल्या कलेंत आपलेंपण व्यक्त करता (Being). तशें आसतां एक कला कालाकारा थावन मेकळी न्हंय म्हळ्ळो वाद ताचो.

मार्कसिस्ट चिंतप्यांनिंयी 'कले खातीर कला' म्हळ्ळो वाद ओपून घेंवक ना. तांचे प्रकार, खंयच्या साहित्यांत कांय थोडें सामाजीक, तशेंच कामेल्यांक, दणसतेल्यांक आदार जांवचे तसलें कितेंयी नांगी, तसलें साहित्य पोकोळ. तितलें मात्र न्हंय 'कले खातीर कला' म्हळ्ळ्या तत्वाचेर घडल्लें साहित्य क्रमेण गिरेसतां आनी दुबळ्यां मदें चडीत अंतर रचता मात्र न्हंय तांकां पयसा पयस करता.

चारित्रीक दिश्टीन पळेल्यार, कला या साहित्यान थंय हांगा सामाजीक बदलावण हाडच्यांत खेळल्लो पात्र जरूर दिसून येता. रशयाच्या क्रांती संदरभीं, म्याकसीम गोरकी तसल्यांचें साहित्य निजाकी निरगतीक लोकाक चडीत स्पूरतेचें जावनासल्लें. पी.बी. शेल्लीच्यो कविता फ्रेंच क्रांतेक स्पूरती जाल्यो म्हळ्ळो वादयी आसा. इंडश्ट्रियल रेवेल्यूशनाच्या संदर्बीं इंगलेंडांत दुबळ्या लोकांनी भगल्ली इजा जारल्स डिकनसाच्या कादंबरींनी आमी वाचयेत. आमच्याच कन्नड दलित बंडाय साहित्यांतयी समाजेच्या अनीते विशीं, अत्याचारा विशीं निशटुर ठीका दिसून येता. पूण हें सामाजीक सुदरापा खातीर लिकल्लें साहित्यगी, या केवल कलाकाराची अभिव्यक्ति मात्रगी तें सांगचें कष्ट. आमच्याच कोंकणी समाजेच्या आचरणांची, थोडया उणेपणाची विमरशातमक नदर आमच्या मालघडया लेखकांच्या साहित्यांत आसल्ली. क्रिसतावांचेर जाल्ल्या जुलुमा विशीं वी.जे.पी.च्या चारित्रीक कादंबरींनी वाचूंक मेळता. तशें म्हण ह्या द्वारीं सामाजीक बदलावण जालयागी म्हण नक्की करूंक जायना.

बहुशः हर एका सामाजीक समस्यांक जवाब दींवचो एका कलेचो, साहित्याचो उद्देश खंडीत न्हंय. पूण साहित्यान या कलेन जापी दीनां तरी, सवालां खंडीत उटयजय. सहृदयींक चिंतपाक लायजय. तेदाळा मात्र साहित्य या खंयच्यायी कलेचो उद्देश सार्थक जाता. आनी असल्या सवालांची ओळोक कर्न दींवची जवाबदारी विमर्शाची जावनासा.

## विमर्शा फोरमलिसम्

विमर्र्याचो आनयेक प्रकार फोरमालिसम्. तशें म्हळ्यार कलेच्या वसतुक न्हंय बगार ताच्या रूपाक चडीत गुमान दीवन करचो विमरसो. साहित्य तर, थंयसर वापारल्ली भास, सबद, व्याकरण, उतरांवोळ इत्यादीक गुमान दीवन हो विमरसो चलता. पावलो पिकासो तसलया कलाकारांनी क्यूबिसम कला लोकामोगाळ करताना, या रशयांत ऐसनस्टैन तसल्या चलनचित्र दिरेकतोरांनी निरमिल्लीं मोंटाज आदारीत फिलमां उदेवन येताना फोरमालिसम् चडीत प्रचलीत जालें.

केवल एका कलेच्या रूपाच्या आदाराचेर एका कलेचें विशलेषण करचें सारकेंगी ? केवल रूपाच्या आदारार एक कला संपूर्ण जातागी ? कलेची वस्त (subject) नासताना एक कलाकृती उदेंवक साद्य आसागी ? हीं सर्व सवालां वाजबी. तशे म्हण हांगासर कलेची वस्त नगण्य म्हण न्हंय; पूण ती वस्त अभिव्यक्त जाल्लें रूप आनी त्या रूपान सहृदयिंचेर उबजांवचो परिणाम प्रमुख जाता. तशें जाल्ल्यान हांगा पात्र कोण म्हळ्ळें प्रमुख न्हंय, पूण ते पात्र कसलें साहितीक रूप घेवन उगताडाक येतात म्हळ्ळें प्रमुख जाता. अशें त्या आदाराचेर विमरसो चलता.

## नवयोत्तर विमर्शा संसार

नवयोत्तर विमर्शा संदर्भीं फामाद फ्रेंच नवयोत्तर चिंतपी रोलंड बारत्स हाचें 'डेत आफ दी आथर' वाद गरजेचो. ताणें सांगच्या प्रकार, केदाळा एक कला या एक साहित्य सृष्टि जालां, त्या उपरांत तें वाचप्याच्या आनी विमर्शकांच्या ताबेक वेता, आनी ताणीं दिल्ल्या विविध विश्लेषणाक ओळग जाता. तशें म्हळ्यार एक कला रचित जाल्या उपरांत वाचप्यांनी आनी विमरशकांनी तांचया खाशेलेपणान तर्क तीरप दिवयेत. रोलंड बारत्स हाणें असलें विमरशा चिंताप हाडलें तरी कितयाक? तेदोळ म्हणासर विमरसो literary criticism म्हण फामाद जाल्लो. म्हळयार एक साहिती/

कलाकारान कलाकृती रचित केल्लो उल्लेख आनी तें परिसर (context) गरजेचें म्हळ्ळ्या अरथार विमरसो चलतालो.

बारत्स हाणें सांगच्या प्रकार, कलाकाराचो उद्देश या परिसर संपूर्ण रितीं समजून त्या तेकीद विमरसो करचें असाध्य. एक कला या कृति रचित जालयार ती अमर. आतां मात्र न्हंय शेंबोर वरसां उपरांतयी ती कृति कोणे तरी वाचून/पळेवन अर्थ करूंक साध्य जायजे. त्या वकता कलाकार या साहिती थंयसर प्रमुक जायना, बगार ती कला या तें साहित्य प्रमुक जाता, अशें आसल्लो बारत्साचो वाद. कितयाक, कलाकारालागीं सवालांक जापी सोदुन वचुंक जायना; आनी कलाकाराचें परिसर, पाटपडदो संपला. आतांच्या परिसराक तें साहित्य कशें लागू जाता तें मात्र गरजेचें जाता.

दाकल्याक घेंवचें तर शिवराम कारंताची 'मूकज्जिया कनसुगळु' कादंबरी. हांगाची मूकज्जी शेंबोर वरसां आदली. पूण तिणें आपल्या नातवालागीं पातळांवचे तिच्या संदरभाचे आटेविटे आजिकी प्रसतुत. त्या देकून, आज ती कादंबरी वाचताना, कादंबरीचो लेखक प्रमुख जायना, पूण मूकज्जी आनी तिचे आटेविटे आजिकी प्रसतुत. कितयाक तसले आटेविटे आजिकी आसात रूप मात्र वेगळेंच जालां. कोंकणेच्या संदर्बीं आमी आमच्या अव्वल साहित्या विशिंयी हेंच सांगयेत. चाफ्राचो 'सुणें माजार हासता', 'भांगार मनीस' इत्यादी नाटक दशकां आदीं लिकल्ले तरी, तांतलो विशय आजूनी प्रस्तूत. कितयाक म्हळयार, आज सहृदयी ते नाटक देकताना आपल्या संदरभाच्या पाटपडदयान ते पळेता.

## वाचप्या केंद्रित विमरसो

'डेत आफ दी आथर' वादाक पूरक जावन असल्या विमरशकांनी (Roland Barthes, Norman Holland, C. S. Lewis) अनयेक रितीचें विमरशा साहित्य लोकांमोगाळ केलें. तें जावनासा Reader Response Theory या वाचप्या-केंद्रित विमरसो. तशें म्हळयार हांगा साहित्य आनी साहितीक सांडून वाचपयाच्या परिसरा थावन, पाट पडदया थावन, आपल्या जिणये अनबोगाच्या नदरेन वाचपयान दींवची प्रतिक्रिया. एक कृति वाचल्या उपरांत, या एक कला आपणें देकल्या उपरांत सहृदयी ती कृति आपल्याच नदरेन पळेता आनी आपल्या जिणयेक, आपल्या अनबोगांक सरी करूंक पळेता.

हांगा एक सवाल जरूर उटता. एका वाचपयान या सहृदयीन आपल्या अनबोगा नदरेन दिल्लो विमरसो कितलो वस्तुनिष्ट? ह्या वादाक विरोध करच्या थोडया चिंतप्यांनी म्हणचे प्रकार असलो वाचप्या केंद्रित विमरसो anarchic subjectivism या 'व्यक्तिनिष्ट अराजकता' जाता. हाका जवाब जावन वाचप्या केंद्रित विमरशकांनी म्हणचें, ह्यो विमरसो वस्तुनिष्टयी व्हय, व्यक्तिनिष्टयी व्हय.

तशें पळेंवक गेलयार खंयचो विमरसोयी संपूर्ण वस्तुनिष्ट उरता म्हण सांगचें कष्ट. हर एका विमरशांत, जशें साहित्यांत, वाचप्याचें धोरण कांय थोडें खंडीत मेळून आसता तें नेगारूंक जायना.

'डेत आफ दी आथर' वादाचे सकारातमक आनी नकारातमक विषय कितेंयी आसूं. पूण एक कलाकार या साहिती, एक कृति या एक साहित्य रचताना, इल्लो इल्लोच मेलया शिवाय एक प्रामाणीक कृति उदेंवक साद्यगी म्हळ्ळें सवाल हांगा गरजेचें. जशें एक पत्रकर्त, आपलें धोरण कितेंयी आसूं, जाल्ले घडित वस्तुनिष्ट रितीं पळेवन त्या घडिताक नीत दिंवचें प्रेतन करताना मात्र एक प्रामाणीक पत्रकर्त जातागी, तशेंच साहितीन एक साहित्य लिकताना, आपल्या पात्रांच्या भितर घसून तांचेबरी चिंतुंक, तांचेबरी उलंवक सुरू करीजे पडता. हें केदाळा जायना, साहित्य अपूर्ण जाता.

एक दाकलो दितां. आलनहळ्ळी कृष्ण हाची एक अपूर्व कादंबरी 'परसंगदा गेंडतिम्मा' हांगासर गेंडतिम्मा नाडकार, अविद्यावंत. पूण ताका मेळल्ली बायल आधुनीक – पौडर घालची, बाडी (ब्रेसीयर) घालची. आतां, आलनहळ्ळीन हे पात्र लिकताना, गेंडेतिम्मा जांवक आसा, मरंकी (गेंडेतिम्माची बायल) जांवक आसा आनी आलनहळ्ळीन हें बोवच नाजून रितीन केलां.

कोंकणेंत एटयेलाच्या 'वेळ घडी' कादंबरींतले पात्र – लुजे आनी दुजे. हांगासर एटयेल लुजेबरी उचांबळीयी जाता, दुजेबरी राजांवीक आनी प्रशांतयी जाता. 'अमास' एंबुदु अमासन हेसरु' म्हण देवनूरु महादेव आपली 'अमास' काणी आरंभ करता. अमासा म्हळ्ळ्या निम्न वरगाच्या चेरक्याच्या पात्रा भितर महादेव परकाय प्रवेश करता.

### साहित्याक विमरसो कितल्या गरजेचो?

विमरशांत सबार पावटीं व्यक्तिनिष्टता येता व्हय. पूण चडताव राजकीययी घुसता. कन्नडांत नवोदया साहित्य उदेवन आयिल्ल्या संदरबीं लिकचे चडताव

कवी भामणांचे जावनासल्ले. कुवेंपु एकलो मात्र शूद्र कुळियेचो. देकून परोक्ष रितीं कुवेंपुक हे भामुण कवी आनी विमरशक हिणसिताले. तांकां जवाब दींवक म्हळ्ळयाबरी कुवेंपून संस्कृत काव्य शैलेर 'श्री रामायण दरशनं' बरयलें. ताच्या एका कवितेंत कुवेंपु आपल्या विमरशकांक आनी विरोदयांक विचारता:'नानेरुवेत्तरके नीनेरबल्लेया?' कुवेंपुन ताच्या काळाच्या विमरशा राजकीयाक ह्या परीं जाप दिल्ली.

सबार पावटीं आमकां कळीत आसूनगी, कळीत नासतानांगी, आमच्या सर्व विमरशांनी राजकीय मिसळून आसता. खंयच्या परिसरांतयी आमी राजकीया थावन मुकती जोडचें बोव कष्टांचें, तशें म्हण साहित्य या इतर कला विमरशांत जर राजकीय मिसळात, त्या विमरशाची दिशाच चुकता आनी बरेपणाच्याकी वड देसवाट जाता तें आमी समजाजय. निशटुर विमरसो खंडीत जायजय. पूण विमरशकान राजकीया थावन या राजकीय लगती धोरणां थावन एक वृत्तिपर अंतर (professional distance) दवरचें गरजेचें.

आयच्या संदरबीं विमरशाची गरज कितें? आयच्या आदुनीक काळार, विमरशाची गरज हर काळाच्याकी चडीत आसा तें आमी ओपून घेजय. आयचो काळ जावनासा सामाजीक अंतर जाळीचो, वाटसाप आनी फेसबुकाचो काळ. आज फट गजाली सत म्हळ्ळ्या रितीं हर एका मादयमांत फायस जावनंच आसात. फट धा पावटीं उचारताना तें सत जाता म्हळ्ळें धोरण आज दिसून येता. आयचो काळ post truth काळ म्हळ थोडे वोलावन आसात. तशें म्हळयार एक विषय ताच्या वस्तुनिष्ट जावन पळेंवच्याकी चड, भगणांक सिंतिमेंतांक जाग्रत करच्या दिशेन उलोंवची संस्कृतीच ही post truth संस्कृती. सतयी आज सांदरभीक शिवाय संपूर्ण (absolute) न्हंय म्हळ्ळें आमच्या राजकीय मुकेल्या थावन आमी समजूंक सकतांव. वस्तुनिष्ट जावन समजूंचयाकी, अर्थ कर्न घेंवच्याकी आपणाक कितें दृढ भोगता तेंच सत म्हण ओपून घेंवचो काळ आयचो. हाका पूरक जावन आयचीं सामाजीक माद्यमां समाजिक माद्यमां समाजेक चड आनी चड पोकोळ आनी ततलीच समाज विरोदी मौलयांनी भरून आसात. असल्या आयिन्न घडये हर एकल्यान आपली विमरशात्मक दीष्ट आनीकी चडीत तेज करीजय जाल्ली गरज आसा. पळेल्लें सक्कड, वाचल्लें सक्कड एकाच उसवासान ओपून घेंवच्याकी तजवीज करिजय तें आयच्या संदरभीं चडीत फायदयाचें मात्र न्हंय अनिवार्ययी व्हय.

साहित्याच्या संदरबींयी असली तीक्ष्ण दीष्ट ना तर साहित्य प्रोपगांडा जांवची साद्यता आसा. तशें आसतां साहित्याची खोड काडची जवाबदारी एका विमरशकाची. दाकल्याक 'ड विंची कोड' बरयिल्लो डयान ब्राऊन सबार पावटी सतां म्हळ्ळ्या रितीन व्याखयान दिता. एस.एल. भैरप्पान 'आवरण' कृति बरयताना ताका आसल्लो उद्देश कसलो? कितया खातीर ताणें मुसलिमां विरोदी कृति बरयली तें रुजू करूंक असाद्य. पूण ताच्या कृतियेंत ताणें वापारल्ल्या वस्तुच्या आदाराचेर आनी रूपाच्या आदाराचेर विमरशकान विशलेषण करयेत. पुणयाक ह्या दोनयी कृतियाँ वयर विमरशकांनी निशटुर विशलेषण केल्लें पलेवयेत.

## समारोप

आकेर करच्या पयलें, कोंकणेच्या संदरबीं विमरशा प्रबेद आनीकी वाडाचे जाल्ली गरज आसा म्हळ्ळें हांवें खंडीत सांगाजय. विमरसो एका रितीं पळेल्यार साहित्याचो संभरमयी व्हय. तसलो संभरम करच्यांत कोंकणी साहिती आनी वाचपी भारीच सुराती. व्यक्तिगत ठीका करच्या ताळणे थावन आमी पयस सराजाय. विनस्टन चरचिल हाणें म्हळ्ळें एक उतार आसा:

"Criticism may not be agreeable, but it is necessary. It fulfils the same function as pain in the human body. It calls attention to an unhealthy state of things."

(विमरसो एका रितीचें असमाधान हाडता जांवक पुरो. पूण कुडींत आसच्या दूकिबरी, ताची गरज हर एका कलेक आसा. कुडींत भलायकी पाटीं हाडूंक कशें दूक आदार जातागी, विमरसो या ठिका साहित्यांत तसलेंच काम करता.)

हर एका विमरशाक भास, साहित्य, संस्कृतेचें बरेंपणंच मानदंड जायजय शिवाय हेर कितेंच न्हंय. त्या दिशीं हर विमरशकान आपलें धोरण स्पष्ट करची गरज आसा. सर्व विमरशाचें, विमरशकांचें बरें जांव.

***

(हें लेकन, जून 20, 2019 वेर कर्नाटक कोंकणी लेखकांचो एकतार हांणीं मांडून हाडल्ल्या कार्यागारांत मंडन केल्ल्या उलोवपाचो विस्तृत भाग)

(लेखक कोंकणी साहिती आनी प्रस्तुत सा. लुवीस कोंकणी संस्थ्याचो निर्देशक)

# कोंकणी कथासाहित्य केरळांत

– गोकुलदास प्रभू

## सुरवात आनी पार्श्वभूंय

केरळांतल्या कोंकणी साहित्याचो नियाळ केल्यार पद्य उपरांत गद्य उबजालां अशें दिसून येता. 1880 थाकून 1970 मेरेनच्या काळमानांत चडांत चड पद्यरूपाचें साहित्यच निरमाण जाल्यां. वीसाव्या शेकड्यांच्या पूर्वार्धांत विरळ जावन कांय लेखकांचे कोंकणी गद्य बरप उजवाडा आयल्यां तरी कथा साहित्य 1970 उपरांतच वाडून आयलां हे स्पष्ट.

गोंयच्या स्वातंत्र्याचो कांय प्रमाणान केरळाचे कोंकणी समाजाचेर प्रभाव पडलो. 1966-त कोंकणी भाशा प्रचार सभेची स्थापना जाली आनी तिच्या वावराक लागून केरळांत लोकांची भासीक/साहित्यीक चळवळेक नेट आयलो. 1972 वरसा 'कोंकण जनता' म्हहिन्याळें नेमान येवपाक लागलें. केरळाच्या कोंकणी मनशाक आपलें साहित्य उजवाडा हाडपाक एक नवेंच व्यासपीठ मेळ्ळें. 1978 वरसा पयलेच पावटी कोंकणी परिशदेचें (बारावें) अधिवेशन कोच्ची घडलें आनी पयलें केन्नाच घडूंक ना तसो कोंकणी लोकांक आपले भाशेंतलें साहित्य, तिची संस्कृति हांचो दिशटावो जालो. त्या दिशटावयांतल्यान नवे नवे लेखक कोंकणींत बरोवपाक तयार जाले आनी जे मलयाळम भाशेंत बरयताले तेंयी कोंकणीकडेन वाळ्ळे. कोंकणी परिशदे उपरांत गोंयचीं कांय नेमाळीं केरळांत मेळूंक लागली. थळावया कोंकणी लेखकांक/वाचपयांक गोंयच्या कोंकणी साहित्याची/लेखकांची वळख जावपाक लागलें. दोन वरसा उपरांत पयलें केरळ कोंकणी कला साहित्य सम्मेळन जालें आनी रोखडीच केरळ कोंकणी अकादेमीची स्थापणूक जाली. केरळांत कथा साहित्याची सुरवात, वाड आनी विकास जांवक वयर सुचयिल्ल्या सगळया घटकांचो प्रत्यक्ष वा परोक्ष रितीन वांटो आसा.

थळावया कथाकारांच्यो कथा संग्रहीत करून उजवाडा हाडपाचें काम सुरवेक 'कोंकणी जनता' प्रकाशन हाणी केलें. तांचे दोन कथा संग्रह उजवाडा आयल्यात –कोंकणी कथाष्टक (1978) आनी काणयाम घोस

(1979). त्या उपरांत केरळ कोंकणी अकादेमीन दोन संग्रह प्रसिद्ध केले – कथा 1983–84–85 (1986) आनी साहित्य पंचांग (1998). साहित्य दीपती (2005) हो बायलाचे बरपावळीचो संग्रह शरतचंद्र शेणै हाणी संकलन/ संपादन करून उजवाडा हाडला. ह्या सगळ्या संग्रहांनी 42 कथाकारांनी बरयिल्लो ओट्टु 51 कथा आसपावल्यात. तांतूंतल्या कांय लेखकानी सकयल सांगिल्ले प्रमाण आपली बरपावळी पुस्तक रूपान उजवाडा हाडल्यांत.

| क्र. सं. | लेखक | पुस्तकाचें नांव | साहित्य विभाग | उजवाडव–पाचे वरस |
|---|---|---|---|---|
| 1. | सुदास शेणै | एक स्वपनाचो अरथु | कथा संग्रह/ बाल साहित्य | 1980 |
| 2. | इंद्रकांत शेणै | गोडी गोडी काणयो | कथा संग्रह/ बाल साहित्य | 1981 |
| 3. | प्रो. डी. विश्वनाथ मल्ल्या | काणियां झेलो | अणकार | 1986 |
| 4. | गोकुलदास प्रभु | प्रथिवै नमः* | नवलिका | 1986 |
| 5. | गोकुलदास प्रभु | अंतर आयामी* | कथा संग्रह | 1991 |
| 6. | प्रो. के.आर. वसंतमणी | भांगारा दांत | कथा संग्रह | 1993 |
| 7. | प्रो. के.आर. वसंतमणी | निमज्जन | कथा संग्रह | 1999 |
| 8. | वी. कृष्ण वाध्यार | दुरपती | नवलिका | 2002 |
| 9. | वी. कृष्ण वाध्यार | बालु | कादंबरी/ बाल साहित्य | 2017 |
| 10. | आनंदी मुंबई | अयोध्या | कादंबरी | 2008 |
| 11. | सूर्या अशोक | पुनरजनी | कथा संग्रह | 2005 |

| क्र. सं. | लेखक | पुस्तकाचें नांव | साहित्य विभाग | उजवाडव-पाचे वरस |
|---|---|---|---|---|
| 12. | सूर्या अशोक | विशवास | कादंबरी | 2013 |
| 13. | सूर्या अशोक | दरपण | कथा संग्रह | 2015 |
| 14. | पी. गोपिनाथ कामत | काणयो, घरा घराचयो | कथा संग्रह | 2008 |
| 15. | पी. गोपिनाथ कामत | सप्त सरणी घराचयो | कथा संग्रह | 2010 |
| 16. | पी. गोपिनाथ कामत | नवतरंग | कथा संग्रह | 2018 |
| 17. | वासुदेव लक्षमण प्रभु | काळकांतु उजवाडू | कथा संग्रह | 2012 |
| 18. | सुशीला त्रिविक्रम भट | साळग्राम | कथा संग्रह | 2014 |
| 19. | के.के. सुब्रह्मण्यन | कनियो पुसतक | कथा संग्रह | 2014 |

(*ह्या लेखांत उल्लेख ना)

वयले वळेरेंतल्यान एक गजाल स्पष्ट जाता – कथा साहित्यांत चड करून मोटवयो कथाच दिसतात. फकत पांच नवलिका/कादंबरी उजवाडा आयल्यांत. देकून कथा साहित्याचो नियाळ करताना मोटवया कथांचोच उल्लेख करचो पडटा. हो नियाळा चड करून वयर सुचयल्या पुस्तकांचेर आदारून आसा. पूण कोंकणी नेमाळयांनी उजवाडा आयिल्ल्यो केरळाच्यो कोंकणी कथायी विशलेषणाक घेतल्यात.

## कथा तंत्राचीं घटकां

खंयचीयी कथा वा कादंबरी वाचताना पयलीं तांतूंतली कथापात्रां

आमकां दिशटी पडटात. ह्या कथापात्रांचो एकामेकां कडेन संबंध आसा. तीं एकामेकां कडेन उलयतात. तांच्यो कांय करणयो घडटात. जाणा जावन वा कळानासताना पात्रांच्यो कांय घडणुकेंत वांटो आसता. ह्या कथापात्रांच्या संवादावयल्यान, तांगेल्या विचारांतल्यान आनी भावनेंतल्यान, आनी हेर आंतरीक/भायल्या कारणांक लागून घडिल्ल्या घडणुकांतल्यान कथा वा कादंबरी मुखार सरता, खास रूप घेता. ह्या रूपाक कथानक म्हणया. कथेंत/कादंबरींत साहित्यिकाचें एक दिशटिकोन तसोच ताचो जिणेविशिंचो विचार प्रकट जांवयेत. देकून कथेचीं/कादंबरिचीं सकयल सांगल्ले प्रमाण घटकां आसात–

1. कथानक
2. पात्र निर्माण
3. पात्रा आनी कथानक हांचो संबंध
4. संवाद
5. भावना
6. सामाजिक पारश्वभुंय, काळ आनी वेळ
7. शैली, आनी
8. कथा/कादंबरिकारालें जीवित दरशन

कथासाहित्याचो नियाळ घेताना वयर सूचयिल्ल्या निरणायक घटकांचो आदार घेवपाक जाय. ह्या घटकांक कथेच्या निरमाणांत वांटो आसा इतलेंच न्हय, तांच्या गुणांक लागून कथा/कादंबरिचो दरजो वाडटा वा उणो जाता.

## कथासाहित्यांत आयिल्ले विशय

केरळाच्यो सबार कथा कुटुंब वेवस्तेचेर आदारिल्ल्यो आसात. मोग, लगन, मरण, सोयर्यांचें वेसन, आरथीक दुबळेपण आदि घटकांक लागून कुटुंबांतल्या संबंधांत आयिल्लो वा येवचेलो बदल जायित्तया कथांचो विशय, पूण तितलेंच महतवाचें आसा कथांतले वैयकतीक अणभव बेकारीक लागून जाल्लीं आवातिकाय, दुःख, इशटांचो आदार आदि. बायलांचे मुद्दे, समाजांतली डोंगी, फटिंगपण आनी अन्याय, भौशीक क्षेत्रांतलो भ्रष्टाचार, समाज सेवा आदि विशय ह्या प्रदेशाच्या कथांनी आयल्यात.

'अयोध्या' हीं कादंबरी संयुक्त कुटुंबाचे संकलपनेचेर आदारून आसा आनी ती चार पिळगयांची काणीं सांगता. सुमित्राकाल्या लगना नंतर तिच्या घोवागेर आसपदेची वांटणी जाता आनी तिच्या घरकाराक ल्हानसो वांटोच मेळता. सुमित्राक्का कादंबरीचे केंद्रस्थानार रावोन मोगान, मायेन, समंजसपणान घोवाक, भुरग्यांक, सुनांक, नात्रांक आनी इतर सोयरयांक धायरयांक फाटबळ दीवन एक संयुक्त कुटुंब कशें उबें करता आनी सांबाळटा, हो कादंबरिचो विशय.

'दुरपती' हीं नवलिका भुरगेपणांतच विधवा जाल्ले एके बायल मनशाची काणीं सांगता. नवलिकेचो विशय म्हणून दुरपतेचें वेक्ती चित्रण इतलेच मुखेलपण तिचे संकट आनी संघर्श आयल्यात. पूण ताचे परस महतवाचें म्हळयार हीं नवलिका विसावया शेकड्यांच्या पूर्वार्धातल्या एका उच्च वरगीय, परंपरावादी कोंकणी समाजाच्या शोषक आनी क्रूर सबावाचेर आनी रूढिंचेर उजवाड घालता. प्रो. आर. वसंतमणी हांगेले 'मणकु भटमाम' कथेंतयी जाणटेल्याचें ल्हान चलिये कडेन लगन आनी ताच्या मरणाक लागून भुरग्यापणांतूच तिचें रांडावपण हे विशय आयल्यात.

भौशीक मळावयलो – खास करून भलायकेच्या क्षेत्रांतलो – भ्रष्टाचार हो 'बालु' नवालिकेचो विशय. आसपत्रेंत वापरून उडोवपाचीं सिरिंजा नाश करिनासताना, तीं पुंजावन गुपीतपणान नितळ करून परत विकून दुडू करपाचो वायट दंदो आनी ताचे विरुद्ध बाळून आनी तांचया शाळेच्या मासटरांनी केल्ली चळवळ हें नवलिकेंत आयल्या. एल. मुकुंद पै हांगेले कथेचोय (सत्यं एवं...) विशय भ्रष्टाचारच.

'विशवास' कादंबरिचो विशय सामकी नवो आनी समकालीन. कोच्ची बंदरांतल्यान गेल्ल्या भारतीय तारवाचेर कांय दिसां उपरांत सोमालियाचे लूटारू धुरी घालून कपितांव रामनाथ प्रभूक आनी इतर णव तारवटींक धरून व्हरतात आनी दुडवा खातीर तांका आडावन दवरतात. लुटार्यांकडेन झगडटाना रामनाथाकतांचो गुळो लागलो अशीं बातमी येता. कांय काळा उपरांत केनियाचे सैनिक वचून णव तारवटयांक स्वतंत्र करतात. पूण रामनाथाची कांय माहिती मेळना. तो गुळो लागून मेलो असो सगळो संवसार

निष्कर्ष करता तरीय ताची बायल सुचित्रा तें पातयेना. आपलो घरकार परत येतलो अशी तिचो घट विशवास. ज्या विशवासाक लागून तिचे जिणेंत, खास करून तिच्या मनाचेर, भयंकर परिणाम जाता तो कादंबरिचो विशय.

जायत्या लेखकांच्या कथांनी लगन, हीं जिणेंतली महतवाची घडणूक विशय म्हणून आयला. पूण हो विशय हातांत घेताना लेखक रोमांटिक जायनांत. तें व्हरडिकेचे प्रक्रिये कडेन सूक्षिम दिशटेन नियाळटात. देकून तांगेलया कथांत व्हरडिकें संदरभांत वैयक्तिक जीवितांत येंवचें ताण, कुटुंबाक जांवचो त्रास, समाजांतल्यो समस्या आनी संघर्श पळोंवक मेळता.

प्रो. वसंतमणी (भांगारा दांत) आनी सूर्या अशोक (जातक, धांतु धा, भितरचें भांगार) हांगेल्या कथांनी लगना पयलींच सयरीक, जातक आनी चली पळोवप हे प्रक्रियेचो उल्लेख येता.

श्रीमती सुशीला त्रिविक्रम भट हांगेले कथेंत (मांगल्य सौभागय) दुबळेपणाक आनी स्त्री धनाचे समसयेक लागून एक चलयेक म्हातरयाची दूसरी बायल जंवची पडटा. देणयाचो प्रशन पय्यन्नूर रमेश पै बी हाताळता (चान्निणें) सयरीक जोडचे निबान चलियांक पळेंव्क येंवचा दादलयांची के.एन. रमेश भट विडंबना करता आनी चलयांची मानसिक ताण दाखवन दिता. 'एक फूल लगेन करपोन गेले' कथेंतली चली सोबीत दिसाना आनी गोरीयी न्हय देकून तिचो परत परत तिरसकार आनी अपमान जाता. व्हरडिके हुंबरार पावल्ली ती आपलो जीव घेता. अशीच एक कुरून चलयेक बी.एस. आशा हिणेयी चित्रायलां (जनमाचें उणत्व). ह्या पत्रान आपणाली व्हरडिक केन्नाच जांवची ना म्हण बरे भशेन समजोन घेतलां तरीयी तिचो आवयपणाचो उतकट इतसा दाखवन ती 'बळीक' (Small pox) लागिल्ल्या एक भुरग्याक ती मोग दीवन ताचो रोग आपणायता. वतसला रामचंद्रन हांगेले कथेंत (मोचन) विमला ही एक शोषित चली व्हरडिके खातीर तानेता. पि.एन. शिवानंद शेणै (सान सान फूल) आनी शरतचंद्र शेणै (आवरतन) हांगेल्या कथांत व्हरडिके उपरांत घोव बायल्यांच्या जीवितांत येंवचो संघर्ष आनी तुंटल्लो लगनाचो संबंध पळेंवक मेळटा.

अशीच एक विफळ मोगाची काणी आर.के. सुरेश (नष्ट सौभाग्य)

सांगता. हे कथेंत मोग आनी मोगया कडेन लगन जावप ह्या दोन गजालीं मदें आरथीक परिस्थिती आड येता. अरथीक परिस्थिती लागूनच एन. आर. मल्या हांगेले 'मोगरे फूल' हे कथेंतलो रतनाकर व्हरडिकेची आशा सोडून बसल्लो पूण वसंताक पळयना फूडे ताचें मन बदलता. तो लगनाक तयार जाताना ताची जनमा कुंडलीची आडचण येता.

जात धरमाचो फरक आनी ताका लागून निरमाण जांवची सामाजीक परिस्थिति मोगयांची व्हरडीक कापाक आड येता, ही गजाल वा. लक्षण प्रभु (पै आनी प्रभु) आनी आर. सुभाशचंद्र प्रभु (स्वपना जीवित) हांगेल्या कथांनी दिशटी पडटा. उरफाटें सामाजिक विरोधाक तोंड करन मिश्र विवाह जांवयेता म्हणपाचो पुरावो पी. गोपिनाथ कामत (मेगेले चूकी) आनी शरतचंद्र शेणै (परको) हांगेल्या कथांनी मेळता. हे कथेंत व्हरडिके उपरांत घोव अपघातांत मोरता तरीयी उषा हें पात्र स्वजातीच्या आपल्या मोगयाचो तिरसकार करता.

कांय कथांनी गरीबी, कुटुंबाचो विरोध, हेर प्रतिकूळ परिस्थिति हांका लागून ऐन वेळार चले चलयांचो मोग मोडटा, पूण कांय वरसां उपरांत तीं परत मेळतात, मोग जागो जाता आनी उसरां तरीय त्या जोडप्यांचें लगन जाता. देखीक सूर्या अशोकाची कथा 'पुनरजनी'. पी. गोपिनाथ कामत हांगेले कथेंतयी (ती मुकती पावली) राघव आनी रमा हांचे मधें तिची गरीबिचे समस्या येता आनी उपाय नासताना तीं व्यभिचारा करपाक लागता. पूण आखेर राघवाक पश्चात्ताप पावोन तो तिका बायल म्हण स्वीकारता.

आर्थिक दुबळेपण आनी जिणेचेर ताचो ओटो प्रभाव ह्या विशयाचेर जायत्या कथाकारांनी बरयलां. आर. के. प्रकाश (एक पिशयाची काणी, उदयाचें असतमन), एन.आर. मल्या (पाप परिहारू), जी. मुरळीधर पै (सत्य आनी मिथया), पी. श्रीनिवास प्रभु (भिके शीत), ए. सदानंद पै (रुचिकर हाप्पळ), वी. वेंकटेश (मरण) हांगेल्या कथांनी दुडवाच्या उणावान मनशांक मनीशपण होगडांवचें पडटा.

आर्थिक दुबळेंपण मनीशपणाक मारून उडोंवची एक भिरांकूळ शक्ती जावन दोळयां मुखार येता. तीं शक्ती वेग-वेगळे नमूनेन परगटता आनी

मनशाचेर नाना प्रकारांचो परिणाम येता. गोपिनाथ कामत (ती धन्य जाली), जीवित हें विरूप, चाम्त बल्लाव, म्हाका आनी कोण आधार?), नारायण नायक (अंतिम भीक), प्रो. आर. वसंतमणी (अम्माली तालीमाळा) हांगेले कथांनी मनशां मदलो संबंध दळीद्रपणाचे पारश्वभुंयचेर घडता.

कुटुंबांतल्या भरगयांच्या शिक्षणाक कशें बादता, हो कांय कथांचो विशय आसा. देखीक पी. गोपिनाथ कामत हांगेली 'म्हाका आनी कोण आधार?' कथा दुबळेपण वरीच दुडवांचो गरव आनी दुराग्रह मनशांचो संबंध मोडता म्हणपाचें कांय कथांनी प्रकट जाता. आर.के. प्रकाश (चिकलांतलो देव), एस. प्रकाश (चार बरपां) आनी गोपिनाथ कामत (देवु-दान, पिरडुके माळा), गिरेस्त लोकांचे वायट चालीचेर उजवाड घालतात. सूर्या अशोक हांगेले कथेंत (देवदूत) आवय-बापयच्या 'स्टेटस'-गरवाक लागून पूत-सून पयस वतात पूण जीव वांचोवपाक ऐन वेळार सुनेचोच आदार जाय पडटा.

कुटुंबांतल्या तरनाटयां कडलयान म्हांतर्यांची उपेक्षा आनी तिरसकार जालयांचें चित्रयी खूब लेखकांले कथांनी मेळता. देखीकः सुशीला भट (स्मारक, ब्रह्मगांटी), पी. श्रीनिवास प्रभु (भिके शीत), सूर्या अशोक (साफल्य, आदयचें वेतन, गंगी आयी, तिरुपती देवालो निवेदु) आनी ए. सदानंद पै (रुचिकर हाप्पळ) हांगेल्यो कथा. हे उपेक्षेचो हुसको वा. लक्षमण प्रभु हांगेल्या कथांनी (काळखंतु उजवाडु, आयची सून फायची...) परत परत दिसून येता तर 'जीविताचो सायाहनु' कथेंत जाणटेलो पयस पाविल्ल्या नातरांच्या सांगाता खातीर वळवळटा.

सुशीला भट (मांगल्य सौभाग्य, शुध्दिकलश), शिवानंद शेणै (सान सान फूल), वतसला रामचंद्रन (मोचन), शेट बलराज (भूक आनी भीक), के.एस. रमेश भट (एक फूल लेगेन करपून केलें), पी. गोपिनाथ कामत (स्त्रीधन) आनी सुभाशचंद्र प्रभु (स्वपन जीवित) हांगेल्या कथांनी पुरुषप्रधान समाजांत बायलांचेर कसो अन्याय जाता म्हणपाची देख मेळता.

शेंकडयांनी समाजांतले एक पिळगेन आनियेक पिळगेक दीवन आयच्या काळाक पाविल्ले कांय धार्मिक विचार आसात, पाप-पुणयाची भावना आसा. असल्या विचारांक आनी भावनांक लागून केन्ना केन्ना

मनीस रूढ़िवादी जातात, तांचो विचार संकुचित आनी विशवास कुरडो जाता, ही गजाल सुशीला भट (शापाचें बीं), रामचंद्र कामत (भटपण) आनी एन.आर. मल्ल्य पळूर (मोगरे फूल) हांगेले कथांत दिसोन येता. प्रो. आर. वसंतमणी हांगेल्या कांय कथांनी (आराट) सम्माजांतल्यो रूढ़ी गळून गेलयाचो खेद दिसता तर आनी कांय कथांनी (अम्माली ताली माळा) रिवाजाचो विरोध दिसोन येता.

सूर्या अशोक 'चोरु बुद्दि शिकता' हे कथेंत साहित्यिक चोरीच्या मुद्दयाचेर उजवाड घालता. एन.एन. आनंदनयी साहित्य निरमाणाची तांक नाशिल्ल्यांचो उल्लेख करता.

पी. गोपिनाथ कामत (मेगेले दुःख) आनी वेंकटेश (तमसोमा ज्योतिरगमय) हांगेल्या कथांनी शिक्षणा उपरांत योगयताय आसोनयी नौकरी मेळूंक नाशिल्ली निरशेवण आनी बेकारिची वेदना दिसता.

एकामेकांची मदत आनी समाज सेवा हो विशय केरळाच्या साहित्यांत उटोन दिसता. 'अयोध्या' कादंबरिंतली जयंती पात्रां गरज पडता तेन्ना एकामेकांचे मदतेक पावतात. 'बालू' नवलिकेंतली हेडमास्टर समाज सेवकाचें महतवाचें काम करता. सूर्या अशोक (शोडदि मारली) आनी पी. गोपिनाथ कामत (चांग–बल्लाव, आशीर्वाद, चांगपण केल्यार, तो मुक्त जालो, दनपराचो सयरो, मागेल मागणें) हांगेल्या जायत्या कथा पात्रांक समाज सेवा प्रेरक शक्ती जावन आसा. तांगेल्या कारया पाटल्यान हो मनोभाव परत परत दिसून येता. पूण दुसर्यांचे – इशटांचे लेगीत – काकुळटेक येवन दोळे धांपून दुडवाची मदत करप म्हळयार मूर्खपणच आनी तशें केल्लें तर मदत करपीच वाटेर पडटलो हो विशय प्रो. आर. वसंतमणी हांगेले 'मागणे' कथेंत आयला.

केरळाच्या कोंकणी कथासाहित्यांत आयिल्ले इतर विशय अशें आसात: सूद (प्रतीकार – शिवदास मल्या), भुरगेपणाचें, शिक्षणाचें आनी शाळेचें वातावरण (छलं: ताजें फल, गुलाब शेंवत्याचो परमळ – रमेश पै) वैयकतीक गुणांक लागू व्यकतींक, कुटुंबांत आनी समाजांत जांवचे

संघर्श (सोस्से, अलमेलु, परको, रेणु, आवर्तन – शरतचंद्र शेणै). सूर्या अशोकाच्या कथांनी विशयांची विविधताय आसा – भुरगयांक फारावन परपयां विशींचें भय (सनयासी), अकसमात येवपी सयर्यांची कटकट (शेजाराची पै माय, सयरी), मनजाती वरी आपल्या संतानांक सोडून वचपी आवय (ज्वालामुखी), गुनयावाची भावना (चोर), तरणाटयांचेर घुंवळी वखदाचो प्रभाव (कांचेचें रावळार), मनोरोग (तीन दीस), विकासाच्या नांवार सैमाचो नाश (गांव), रीत रिवाजांचो अस्थिरताय (आचार आनी विचार) आदि.

चडावत कथांचो सूर गंभीर आसा पूण कांय कथाकार सामाजीक समस्या विनोदान हाताळतात. देखीक: शरतचंद्र शेणै (पावली). पूण केरळांतल्या कथाकारां मदें हास्य कथा बरोवपांत जैतिवंत जाल्लो लेखक म्हळयार प्रो. के.आर. वसंतमणी. तांगेल्या चडावत कथांचो सूर विनोदाचो, पूण तांतुच सामाजीक वेवस्थेची तशेंच धारमीक रीत रिवाजांची विडंबनाय उटोन दिसता. तांगेल्या कांय कथांचे action स्वपणांत घडता आनी हो अवासतवीक स्वभाव कथेक हास्य रूप दिवपाक काराण जाता. सूर्या अशोकयी ‘सनयासी’ कथेंतयी सपनाचो वापर करता.

के.के. सुब्रहमणयन हांगेल्या कांय कथांनी सैमाचेर अवलंबून जियेवपी कुणबी लोकांचे पडबिंब आसा. ‘पावुसा काल’, खारचा मेले जाला जाले, ना जालार ना’ (खांवच्या मेळ्ळें जालयार जालें, ना जालयार ना), उरवा उदाक ह्या कथांनी पावसाक आनी हुंवाराक लागून नुसतें मारून जियेवपी कुणबयांचे जिणेचो त्रास चितरायला. ‘अड्डा मोडोण दंध केलयार दांत कन्नोतसी खाववयेत’ (हाडा मोडून दंध केलयार दांत कातरता तशें खाववयेता) हे कथेंत केरळांत पयलेच पावटीं शेतकामतीचो विशय आयला. तांगेल्या हेर कांय कथांक बोध कथेंचें रूप आसा.

कथाबीज वाडोवन कथा पुष्ट करपाक सगळयांक साध्य जाला म्हण सांगोंक जायना. जायितया कथाकारांनी कथा बीज वाडोंवक वावर करूंकच ना. देखीक: के.के. सुब्रहमणयन हांगेल्यो उवरा उदाक, किरातू, कसू कपोड, जयदीसु, अरे सान्न पुत्तो तुं कच्चे गेल्लो रे, नतुरांक उज्जालो पुरसकार – ह्यो कथा. हेर कांय लेखकांचे कथेची सुरवात आनी शेवट

हांचे मदें व्हडलें कांय लेखकांचे कथेची सुरवात आनी शेवट हांचे मदें व्हडलें कांय घदाना. पात्रांची वळक जावन तीं पूर्ण विकास पांवचें आदींच कथा सोंपता. देखीक: चार बरपां (आर. प्रकाश), मरण (वी. वेंकटेश), संगूबाय (डा. गोविंद शेणै), पाल्या उदक (प्रेमा भकतन), निधी कलशु आनी शापाचें भीं (सुशीला भट) आनी दोन अक्षरां प्रेमाचीं (ए. सदानंद पै) ह्यो कथाभावनेन पोसूंक नाशिल्ल्यान विकसित जांवक नांत. त्यो आपरोसाचें रूप घेतात. कथा येवजणे खातीर फावोती कलपना करून त्यो कथा खूब वाडोवयेताल्यो. पूण तशें जांवक ना.

जायतया लेखकांची कलपना बळादीक आसा तरीयी कलपना शकती आनी वस्तुस्थिती हांचो समतोल सांबाळून कथा पूर्ण करूंक ना. कथाकाराली कल्पना वस्तुस्थिती सोडून पयस गेली तर कथेक वास्तवीक रूप नष्ट जातलें आनी fantacyचें रूप येतले. पूण तसो प्रयोग जाताना कथेची विशवसनीयता नष्ट जांवचो ना हाची खातरी आसूंक जाय. कांय लेखकांनी हें तत्व लक्षांत घेंवक ना अशें दिसता.

देखीक: 'मांगल्य सौभाग्य' हीं कथा. एकलो तरनाटो आपल्या बापसूले धाकटे भायलेक उकत्या जागयार व्हरून बलातकार करता आनी ताका लागून ती रोखडीच मोरता. केरळांतल्या परंपरावादी कोंकणी समाजांत बापसूले धाकटे बायलेचो बलातकार करपी निषटुर आसा हें पातयेंवक जायना. पूण तसो एक बलातकार जालोच तर बत्तीस वरसाची एक बायल मनीस, एकाच मनशाच्या बलातकाराक लागून रोखडीच मोरता म्हण सांगच्याक साध्य ना.

भूक आनी भीक (शेट बलराज) हें कथेंत विशवसनीयतेचो प्रशन उपरासता. कथेंतली सुशीला सांगता – "फाल्यार हांव जाग जाली. मंचार थाकून उट्टांवक जायना. आंग सगळेंच दूकी.. कोणे की मेगेले चारित्राक ध्वंस केलो" ह्या उतरां वयल्यान गैरसमज जांवयेता – बलातकार जालो म्हणपाचें तिका दुसर्या दिसाच कळ्ळें? अत्याचार जाताना कळानासल्लें? तिणें विरोध केलो काय ना? "कोणे की मिगेलें..." म्हणटाना तिका त्या मनशाची वळख मेळूंक नाशिल्ली म्हण स्पष्ट आसा. वळख नाशिल्ल्या

त्या नीच मनशालो रुमालो तीन वरसांक ती कितयाक सांबाळून दवरता? आनी आपणाचेर आत्याचार केल्ल्या त्या मनशाक प्रत्यक्षपणान पळयतानाय रोखडोच वळखून घेंवक तिका जायना, तेन्ना कथेंक रुमालाचो वांटो कसलो? कथा वाचताना मनांत असले खूब प्रशन उपरासतात.

'अभयदान' (सुशीला भट) हे कथेंत सरोजा हांवपणान घोवाक सोडन वेता, पूण एकवीस वरसां उपरांत तिका ताचो उगडास जाता, ताचया सांगाताची तिका ओड येता. तो तिचो तिरसकार करता तरयी ती ताचे विणे जियेवपाची ना म्हणटा. तिका आपणावपाक तो तयार ना, पूण वनयेन सांगाना पूडें तो जायत म्हणटा. पूण वाचकाक विशवास जायना.

'ती धन्य जाली' (पी. गोपिनाथ कामत) हे कथेंत अनाथाश्रमांतलें एके चलयेक बेंगळूरचो एकलो समाज सेवक दोतोर येवन व्हरडीक करता. ते चलयेक व्हडले सौंदर्य, बुद्धी, शिकवण वा आनी खंचेयी असाधारण गूण आसा अशें कथाकार सांगाना. दोतोर येता, तिका पळयता, तिचे लागीं उलयता आनी तिका व्हरडीक करून घेवपाचो निरणय घेता. कथेक fantacyचें रूप मेळता.

'पै आनी प्रभू' (वा. लक्षमण प्रभु) ही तशी एक हास्य कथा न्हय. कथेचो स्वभाव गंभीर. पात्रांचो मोग आनी विचार गंभीर. कथेक एक हास्य रूप येता एक आड नांवाक लागून. नारायण पै नीना प्रभूचो मोग करता. पूण ती गोयंची क्रिसतांव म्हण ताका कळाना. आनी कळता तेन्ना तो सामकी गोंदाळता. पूण वाचक गोंदळना. खंयचयायी कोंकणी मनशाक ताचे उलोवपाचे शैली वयल्यान वळखूंयेत. नीना प्रभू गोंयची क्रिसतांव चलीच जालयार तिचे भासेवयल्यान ताका कळूंक जाय आशिल्लें. दूसरें, आनी महतवाचें म्हळयार, मोगांत पडिल्ल्या चले-चलियांक जात धरमाचो, भासेचो, प्रदेशाचो - कितयाक, राष्ट्रीयतेचो लेगीत प्रश्न जायना, हें आमीं वासतवीक जिणेंत पळयतात. केरळांतल्या कोंकणी समाजांतले व्यकती लेगीत हेर जातिच्या/धरमाच्या व्यक्तिकडेन लगन जातात. देकून नीनाचो मोग करूनयी, आवय-बापयचो विरोध नासूनयी, व्हरडीकेच्च्या निरणयाकडेन पांवताना नारायण पै कितयाक पाटीं सरता म्हण समजाना. नीनालो आनी नारायण पैलो मोग खरया अर्थान मोग नाशिल्लो अशें म्हणजे पडता.

वासतवीक जिणेंत असल्यो अतिकाल्पनीक घडणुको घडनांत अशें न्हय, अपरूप जावन घडता. देखूनच कथाकारान त्या अपरूप घडणुकांचो उल्लेख करताना वाचपयांक विशवास जांवचो तशें बरोवपाची गरज आसा. कांय गजाली वचपी दोळे धांपून मानून घेतले. तेन्ना willing suspension of disbelief हें तत्व प्रयोगांत येता. आधुनीक कथांत ह्या तत्वाक व्हडली सुवात ना. अतिकाल्पनीक घटकांचो प्रयोग कलात्मक रीतिन वापरून कथेचो प्रभाव वाडोवपाचो रोवपयान मुद्दम वावर करूंक जाय. 'अभयादान', 'मांगल्य सौभाग्य', 'ती धन्य जाली' ह्यो कथा वाचताना तसो वावर करूंक ना.

'दोन अक्षर प्रेमाची' (ए. सदानंद पै) हे कथेंत एक म्हांतारो आनी पारवो हांचो संबंध आसा. पूण पात्रां वाडोवन हाडपाक जाय तितल्यो घडणूको नांत देकून कथेंत हालचाल ना. कथा फूडें सराना. कथेंतली भावना फुगत वेता तितलीच ती भितर पोकळ जायत वेता. कथेचो व्हडलोसो प्रभाव जायना. श्रीनिवास प्रभू (वाट पवीत्र), पी. गोपिनाथ कामत (देनपाराचो सयरो), मागेल मागणे, रायु भुरगयालें मदयें, अपूर्व प्रतिष्टा), सूर्या अशोक (आचार आनी विचार) आनी शरतचंद्र शेणै (सोस्सो) हांगेले कथांतयी असोच एक अणभव जाता. ह्यो कथा बरयताना लेखकांचे दृष्टीन कथानका परस व्यक्तिचित्रण चड महत्व आसलें अशें दिसता.

## पात्र निरमिती

कथा साहित्यांत कथाबीज, कथायेवजण आनी घडणूको हें सगळेंच एक माध्यम, मनशांची जीण चित्रावपाचें एक निमित्त, कथानका उपरांत कथा साहित्याचें मुख्य घटक म्हळयार पात्रच. जिणेंतलें मनीस साहित्यांत पात्रां जावन येतात. पात्रां एकामेकांक कडेन संपरक करतात. संबंध जोडटात, आपले विचार आनी अणभव प्रकट करतात. स्वताच्या आनी दुसर्यांचया अणभवांतल्यान जिणी फूडें वरतात. देकून कथा साहित्यांतलीं पात्रां आनी तांचो अणभव केंद्र स्थानार आसता.

साहित्यांतलीं पात्रां जितलीं जिवाळ जावन दिसलीं, तटतटीत जावन आमचे मुखार रावलीं तितलें बरें हें सांगपाची गरज ना. लेखकान केल्लो मनीस सबाराचो अभयास आनी पात्रांकडेन एकरूप जावपाचें ताचो सामर्थ्य

हेंच पात्र निरमिती पाटली शक्ती. कथा कादंबरींत पात्रां जीवाळ जावन तांचें अस्तित्व वाचपयांचेर प्रभाव घालीत जाल्यार कथा साहित्यांतल्यो हेर त्रुटी दामून उरतात.

ह्या नियाळांत आयिल्ल्या कथासाहित्यांत चडावत जावन मध्य दक्षिण केरळांतल्या कोंकणी समाजांतले व्यक्ति दिसतात. खरें म्हळयार केरळचे कथ/कादंबरिकार कथातंत्राच्या आनी खंचयायी आंगानी पाटीं उरले तरीयी वासतवीक जिणयेंतल्या मनशांक पात्रांच्या रूपान चित्रांवक ते जैतिवंत जालयात. के. नारायण नायक हांगेलो रंगू, कमलक्का, पडकळी नेणडु (रंगु सुंटोलो) आनी जोगेश (पाक उडले), शेट बलराज हांगेली सुशीला (भीक आनी भूक) मुरळीधर पै हांगेले कथेंतली 'हांव', तिगेलो घोव, मांय आनी नणंद (सत्य आनी मिथया), श्रीनिवास प्रभू हांगेले कथेंतलो (वाट पवीत्र), नायक माम गोविंद, कृष्णु, कृष्णाली आवसू आनी भयण (भिके शीत), रामचंद्र कामत हाणें चित्रायिल्लो भटालो पूत (भटपण), वेंकटेशाल्या कथांतलो सुबट (मरण) आनी सुधाकर भट (तमसो मा ज्योतिरगमय) हीं पात्रां, प्रेमा भकतान दाकवन दिंवचो रामु आनी नारायण नायक (पाल्या उदाक), एल. मुकुंद पै हांगेले कथेंतलो (सत्यं एव...) रमेश, सुशीला भट हांगेले कथांतलो बालू (ब्रह्मगांट), प्रदीप, सुजाता, सत्या (कर्मबंधन), सुमित्रा आनी भटमाम (मांगल्य सौभाग), गोपिनाथ कामत, ताजी व्हनी आनी रजनी (अभय दान), एन.आर. मल्ल्या हांगेलो रतनाकर, रंगभट (मोगरे फूल) आनी बप्पी माम (पाप परिहारू), के.एन. रमेश भट हांणी चित्रांवची राधिका, तिगेले आवस-बाप्पूस आनी भयण (एक फूल लेगेन करपून गेले), बी.एस. आशा हिणें निरमाण केल्लें शीला हें पात्र (जनमाचे ऊणत्व) वत्सला रामचंद्रन हांणी दाकोवन दींवची विमला (मोचन), पी. एन. शिवानंद शेणै आनी शरतचंद्र शेणै हांगेले कथांतली पात्रां सगळींच खूब वळखीचीं दिसतात.

पूण लेखक पात्रचित्रणांत मरयादा पाळतात. केरळचो कोंकणी समाज हेर भाशिकां मधें भरसून रावला. दिसपटल्या जीवितांत तो मलयाळी, तमिळ, कन्नड, गुजराती, जुदेव आनी आंगलो इंडियन मनशांचा भुजांक भुज तेंकोवन जियेता. वेगवेगळ्या जातिच्या, धरमाच्या, भासांच्या आनी

संस्कृतिच्या लोकांकडेन ताचो संबंध येता. देकून हांगाचे कोंकणी कथांतल्या पात्रांच्या पंगडांत पारकय समाजाच्या प्रतिनिधिंची अपेक्षा करुंयेता. पूण अजाप म्हळयार सूर्या अशोक, पी.एन. शिवानंद शेणै, पी. गोपिनाथ कामत आनी शरतचंद्र शेणै सोडून दुसर्या खंयच्याय लेखकांले कथेंत परकया समाजाचीं पात्रां दिसतात. चडांत चड कथाकार बरोंवक बसताना आपल्या समाजाचे अस्मितायेचे परिघांत भीतर ओडून रावल्ले दिसतात.

'सान सान फूल' हे कथेंत शिवानंद शेणै जोसेफ ह्या मलयाळी पात्राची वळक करून दिता. हें पात्र कथेचे देगेर रावता, पयस रावोन आपलें परकेंपण सांबाळता. पूण पयस रावोन मुख्य कथापात्रांचेर प्रभाव घालून कथागती वेगळेच कडेन पावयता. निर्मलाक सोरो पिवंवक लावन ताचो स्वभाव सगळोच बदलन कथानकांत वळन हाडपांत जोसेफाचो व्हडलो वांटो आसा. आनी ते नदरेन पळयताना जोसेफाक एक खळनायकाचें रूप लाबता. हीं गजाल कौतूलहाची आनी तीं साबावीक जावन घडटा. हेर भासांचया साहित्यांतयी परकयांची उपस्थिती व्यंगयचित्र वा दुसमान म्हणून जाल्लें दिसोन येता आनी केन्ना केन्ना परकयांक लागूनच नीच काम घडिल्लें आसता. जोसेफयी ह्या तत्वाक आडवाद न्हय.

पूण सूर्या अशोक (विशवास) आनी शरतचंद्र शेणै (सोस्से, परको, अलमेलु) हांगेले पात्रनिर्मितींत असो पक्षपात दिसाना. जांव कोंकणी समाजांतले जांव परकी, सगळया पात्रांचें समान रीतिन निरमाण जाला. तांगेले कथांनी कोंकणी मनशालें आनी परकया मदें वासतवीक जिणेंत घडटा तसलो संपर्क आनी संबंध जाता. हो संबंध मोगाचें रूप घेवन वाडून व्हरडीके कडेन लेगीत पावता (परको). अलमेलूंत त्याच नंवाची तमिळ चेडूं मुख्य कथा पात्राचे भयणीले जागयार येवन रावता.

कथापात्रां लागीची आनी वळकीचीं दिसली म्हण उतकृष्ट कथा जाली असो अर्थ ना. आनी उतकृष्ट पात्र म्हळयार आदर्श पात्र अशेंय ना. मनशाच्या वेग-वेगळ्या भावनांची व्यापत आनी खोळाय प्रकट करपी आनी मनीसपणाचो संकीर्ण स्वभाव दाखोवपी पात्रांच उतकृष्ट, पात्रां उतकृष्ट जांवचीं जालयार लेखकाक तांगेल्या अंतरंगांत रिगोन तांगेल्यो

भावना आनी विचार, तांगेलो मोग आनी माया, दुसवास आनी विदवेस, सुख आनी दुख, जाळ आनी कांटाळो, कोप आनी थंडाय, अस्वस्थताय, संघर्श आनी समाधान, तांगेलें सगळें अस्तित्व आपणांवचें पडटा. उणेच उतरांनी सांगचे जालयार कथाकारान तांचे कडेन एक रूप जावन बरोंवचें पडटा. हें कांय लेखकांक साध्य जालां.

कृष्ण वाधयार (दुरपती आनी बालु), वी. वेंकटेश, (तमसो मा ज्योतिर्गमया), प्रिय दुख मिगेलें मात्र, मरण), शिवानंद शेणै (सान सान फूल), वी. शिवदास मलया (प्रतीकार), के.एस. रमेश भट (एक फूल लगेन करपून गेले), वतसला रामचंद्रन (मोचन), रामचंद्र कामत (भटपट), पी. गोपिनाथ कामत (मिगेलें दुख), शरतचंद्र शेणै (रेणु, सोस्से, परको, आवरतन, अलमेलु), रमेश पै (चान्निणें), सुशीला भट (शुद्धि कलशु, पलायन, कर्मबंधन, अभयदान, ब्रह्मगांट), आर.के. सुरेस (नष्ट सौभाव्य), आर.के. प्रकाश (एक पिशयाची काणी, उदयाचे अस्तमन), एन.आर. मल्या (मोगरे फूल, पाप परिहारु) हांकां कथा पात्रांकडेन एकरूप जावन जीवितांतले सान-व्हड संकट, अकांत, धोक्के, हुसके, अर्थ आनी अर्थशूनयताय वाचका मुखार हाडपांत जैत मेळ्ळा.

कृष्ण वाधयार, वी. वेंकटेश, सूर्या अशोक आनी शरतचंद्र शेणै हीं कथा पात्रांकडेन इतले एकरूप जातात की तांगेल्यो कथा/नवालिका/कादंबरी निवेदनाची शैली सोडून पात्रांच्या उतरांच्या अणभवाच्या पांवडयार मुखार सरता. हे कथाकार पात्राच्या भायल्या रूपाकडेन लक्ष्य दीनांत. तांकां ते गजालीचो व्हडलोसो उपेग दिसाना. ते कथा बरोवपाक सुरू करतानाच सामकी पात्रांच्या मनांत रिगोन अंतरंगाचो नियाळ घेतात. मनशांच्या मनांत बुडोन थंयच्या जीवित नियाळप तांगेले पात्र निरमितीचें खाशेलेंपण. देकूनच कृष्ण वाधयार आनी सूर्या अशोक हांगेले पात्रां वास्तवीक दिसतात. शरतचंद्र शेणैली आनी वेंकटेशालीं पात्रां संकीर्ण स्वभावाचीं जालयांत. शिवानंद मलया, एन.आर. मल्या आनी मुरळीधर पै ह्याच पंगडांत आसपावतात. पूण हे लेखक पात्रांचे मनांत रिगताना तांची भायली परिस्थिती विसरनांत.

रमेश पै, रामचंद्र कामत, बी.एस. आशा, के.एन. रमेश भट, शिवानंद

शेणै, वतसला रामचंद्रन, वा. लक्ष्मण प्रभु, आर. के. प्रकाश आनी श्रीनिवास  प्रभु कथा पात्रांक चितरायतात. आनी मागीर कथेक चालना मेळताना कथाकार पाटीं सरतात, पात्रां जिवाळ जातात, कथा मुखार पावता.

सुशीला भट हांगेले पात्र निरमितीची शैली वेगळी. लेखिका पात्रांचो विवरण करता तेन्ना तीं निशचल, निरजीव चित्रां जावन रावतात. आमकां तीं भायल्यान दिसतात, पूण त्या पात्रांचे मनोवृत्तिचो दिशटावो मेळाना. पूण केना केना ही लेखिका आपल्या पात्रां कडेन एकरूप जावन तांच्या मनोधरमाचेर उजवाड घालता. अभय दानांतलो गोपिनाथ कामत आनी शुद्धिकलशांतलो बालु भावनेच्या तणावान आपणाकच विसरून उलयतात तेन्ना रोखडेच जिवाळ, सक्रिय आनी बळादीक जावन, वाडोन येतात.

प्रो. आर. वसंतमणी हांगेल्या जायत्या कथांनी आमकां विशयावरस व्यक्तिचित्रांत दिसतात. देखीक: मोडें मरतो, बडका केरी द्रुपदक्का, खबरे माम आनी धोल्लकार विट्टुमाम ह्या कथांतली, त्याच नांवांची पात्रा. खबरे माम हें पात्र तर सबार कथांनी वाचप्या मुखार येता. प्रो. वसंतमणी हर एका पात्राक खाशेलें व्यक्तिमहत्व दिवपाक जैतिवंत जाला.

एक गजाल – कृष्ण वाधयार, सुशीला भट, प्रो. वसंतमणी, के. एन. रमेश भट आनी शेट बलराज हांकां सोडल्यार हेर लेखकांची पात्रां आपल्यो भावना संयमांत दवरतात. अयोध्या कादंबरींत ह्या संयमाची महतवाची देख मेळटा. हेर लेखकांच्या कथांतयी आप–नियंत्रणाचो गूण दिशटी पडटा. बेकार तरणाटो निरशेता (मिगेलें दुख) आनी आपणाक मेळल्लें प्रमाणपत्र लासून उडयताय बी (तमसो मा ज्योतिरगमया). मोगांत फटवल्ली चली (कर्मबंधन), मोग सफळ जांवक नाशिल्ले चले–चलियो (नष्ट सौभाग्य, पै आनी प्रभु, स्वपन जीवित आनी परको) अत्याचाराक लागून व्यभिचारांत पावल्ली चली (भूक आनी भीक) सामाजिक आनी धार्मिक कारणांक लागून शिक्षणाची आशा सोडून दिंवचो भुरगो (भटपण) परदेशांतल्या कामाखातीर भायर सरोन फटवून आयिल्लो तरणाटो (चार बरपां), हीं सगळीं पात्रां आपली प्रतिक्रिया दामून दवरतात. तांची निरशेवणी, व्यथा आनी निस्सयायता वाडाना, वाडून तांका आहवानाक तोंड करपाक

लायना. कांय जाणांचें दुख इतलें चड जाता, तें आमकां आपडून वेता, पूण पात्रां विचारांचे आनी भावनांचे सीमे भायर वचनांत. शरतचंद्र शेणै हांगेलें एक पात्र (आवरतन) जीव घेवपाचो निरधार करता, पूण तो प्रयोगांत हाडिना. बेकार मनीस निरशेता, पूण विद्रोही जायना. समाजा आड केन्ना क्रोध जागो जाता पूण क्रोधित लागून फुडली क्रिया जायना.

भोवा विरळ जावन दळिद्रपणांतल्यान वयर येवपा खातीर कांय जाण वायट चालीक लागतात. देखीक: 'शुद्धि कलशु' आनी 'भूक आनी भीक' कथेंतली वेशया, 'पाक उडलें' कथेंतलो स्मगलर जोगेश. के.एन. रमेश भट हांगेले कथेंतली (एक फूल लेगीन करपून गेले) राधिका इतली निरशेता, तिचें मन मोडता की मरण शिवाय तिका दुसरी वाट दिसाना. आनी तीं आत्महत्येचो उपाय घेतां बी.

पात्रांच्यो भावना पूर्ण जावन परगटांवक स्वातंत्र्य दिता फकत सुशीला भट. शुद्धि कलशांतलो नन्नू जीवितभर दामून धरल्लो राग परगटायता आनी समाजाक न्हय करता. तो इतलो विद्रोही जाला की आपणाले आवसूक अभय दिल्ले वेशयेले चलयेक व्हरडीक करून घेवपाक लेगीत तयार जाता. 'मांगल्य सौभाग्य' हें कथेंत भटमामाल्या पुताचें निशट्टुरपण आनी लैंगिक आसक्त इतली बळादीक आसा की तो बापसूले धाकटे बायलेचो बलातकार करता. अभयदानांत गोपिनाथ कामत आपणाक सोडन गेल्ले बायलेक मुखार पळोवन इतलो खुबाळता, तो सुणयावरी तिका आंबुडता. पलायनांत रम्मय्यामाम पुतांली आनी सुनांली उपेक्षा समजून आपणायला पांयार स्वतंत्र जावन रावपाचो निर्णय घेवन पुतालें घर सोडन वेता.

'विशवास' कादंबरींत सूर्या अशोकान 'सुचित्रा' हें पात्र तिच्या विचारांच्या आनी भावनांच्या पांवडयार बरे रीतिन वाडोवन हाडलां. घोवाक बंदी करून दवरला म्हण आयकून ह्या पात्राचेर धसको जाता आनी तिचो मानसीक तोल चुकता, तिचें मन वासतवीक आनी भ्रमिष्ट अशीं दोन स्थितिंनी भरकटता, तिचो घोव खंचयान घरा परत येवनयी दुसर्या दिसा तिचें मन गोंदळता, हें सगळें लेखिकान खात्री जायत तशीं चित्रायलां.

जायतया कथाकारांच्या बरपांत आमकां पात्रां परस लेखकच सक्रिय

ान दिसतात. ह्या लेखकांनी पात्रांक सामकी पोसूंक ना. त्या दुबळया ांक लेखकाच्या निवेदनाचेर तेंकून रावजें पडता. आनी लेखकाल्या दनाचो आधार सोडल्यार तीं पडतात. 'अयोध्या' कादंबरिंतली चड उणें ळीं पात्रां ह्या तराचीं. सगळीं पात्रां सुमित्रक्काचे भोंवतणी घुंवचीं उपग्रहां ों दिसनात. सुमित्रक्कालो घोव, तिगेले पूत, सुनो, नात्रां अशीं तांचें म्नित्व आसा. तांचीं आपलीं नांवांयी आसात. पूण खंयचायी पात्राक खेकान दैहिक, मानसिक, बौद्धिक आनी भावनांची वळख दींवक ना, तंत्र व्यक्तित्व दींवक ना. देकुनंच सगळयांचे विचार, भावना, ततवां ्सारकीं. दुबळया कथानका भायर ह्या एकसारकया पात्रांत लागूनयी हीं दंबरी निरजीव जालया.

ए. सदानंद पै हांगेली कथा (दोन अक्षरा प्रेमाची) खंचया अर्थान ् भाव कथा. कथेचो विशय म्हळयार गिरी आनी तागेलो पारवयांचो ग. कथाकार त्या मोगा पासत सांगता. पूण गिरिल्या मनांत दोवोन त्या गाची दिशटी घेंवक आमका सोडिना. गिरी एक सावळी जावन दिसता वाय मनीशपणाच्यो भावना आनी विचार घेवन येना.

जी. मुरळीधर पै, पी. श्रीनिवास प्रभु आनी पी.ए. श्रीधर कामत त्र निरमितीची ताक आसोनयी केन्ना केन्ना पात्रांचे आनी वाचपयांचें मदें ान रावतात. आर. सुभाशचंद्र प्रभुयी ह्याच पंगडांत आसपावता.

आनी पात्रांच्या चित्रीकरणांत मनीस स्वभावाची व्याप्त आनी ळाय अपेक्षे प्रमाण दिसाना. चडांत चड पात्रांची पार्श्वभूंय आर्थिक ळेपणाची. आर्थिक दिशटीन तीं दुबळीं न्हय जाल्यार पात्र निर्माणाचे शटीन दुबळींच. तीं परिस्थिति आड उबी जांवक जाय तितलें बळ ानी सामर्थ्य दाखयनांत. पी. गोपिनाथ कामत हांगेल्या कथांचीं जायतीं त्रां ह्या सबावांची. 'भटपणां'तलो नारायण, 'सत्यं एवं...' कथेंतलो रमेश, ी आनी प्रभु' कथेंतलो नारायण पै, 'रंगु सुंटोलो' कथेंतलो रंगु, 'अंतिम ोक' कथेंतलो सानु, सानी आनी मनोज, 'तमसो मा ज्योतिरगमया' आनी दयाचें अस्तमन' कथांतलो 'हांव', 'भिके शीन' कथेंतलो गोविंद आनी ंगेलें दुख' हांतलो राजा आनी तागेलीं आवस्-बापुस तकलेर परिस्थितिचें

वजन घेवनयी निष्क्रिय जावन बसतात. शरतचंद्र शेणै हांगेले 'आवरतन' कथेंतलो राम जीवितांत सामकी हार खावन आत्माहुतिचो निर्णय घेता पूण ताका तो निर्णय लेगीत प्रयोगांत हाडूंक जायना.

केरळाच्या कथासाहित्यांत पात्र निर्मितीची मर्यादा लक्षांत आयले बगार रांवची ना. कथा/कादंबरिचो आंकडो उणो देकून जायत. पूण पात्रांची विविधता मर्यादीत आसा. विविधतायेचे दिशटीन प्रो. वसंतमणी, सुशीला भट आनी सूर्या अशोक हांगेल्या पात्रांचो उल्लेख करुंयेता. सुशीला भट आनी सूर्या आशोक हांगेल्या पात्रांच्या पंगडांत वेगळेंपणयी दिसून येता. तांचे मदें दुबळीं तशींच बळादीक पात्रांय आसात. भिजूट आनी धिटायेचीं, निशटूर आनी दयाळु, शांत आनी सातवीक तशींच विद्रोही आनी क्रांतिकारी पात्रां आमका दिशटी पडतात. पात्रां सातवीक गुणांचीं वा वायट आसुंदी, पूण चडांत चड पात्रां बळादीक जावन आसात.

## संवादाचो प्रयोग

उलोवप कथा संवाद कथातंत्राचें एक मुख्य अंग. आनी केरळाचे चडांत चड बरोवपी संवादाचो बरो प्रयोग करतात. संवाद, सहजपणान, थळाची शैलींत जाता.

सुशीला भट हांगेलीं पात्रां संवादांतल्यान विकसित जातात अशें वयर सांगलां. संवादांतल्यान पात्रांचो विकास जाता इतलेंच न्हय. पात्राचो स्वभाव, तांगेले व्यक्तित्व, दुडवाची परिस्थिति, जिणेची शैली, अस्मिताय, एकमेकांकडलो संबंध आनी सामाजिक पांवडो संवादावयल्यान स्पष्ट जाता. देखीक: शरतचंद्र शेणै 'रेणु' कथेंत पात्रांविशीं कांयच निवेदन करना. पूण संवादावयल्यान तांगेले पिराय, अस्मिताय आनी गांगेलो एकामेकांकडेन संबंध आदी आमकां कळोन येता. जिणेचें आकरषण, मरणाचें निश्चितपण आनी गुपीत स्वभाव, भुरगेपणाचो सरळ स्वभाव आनी जाणटेल्यांचो मनोभाव संवादावयल्यान स्पष्ट जाता.

'शुद्धिकलश' हांतलो नन्नू आनी 'अभयदान' हांतलो गोपिनाथ कामत हांगेलो स्वभाव संवादा पयलीं आनी उपरांत एकच वरी आसात. कथेचे

वार्तेंत नन्नू एक विनम्र, बुदवंत आनी समाज सेवेक भायर सरल्लो गाटो असो दिसता पूण ताच्या भाशणांतल्यान जीण भर ताणें दामून रिल्लो राग, ताचे स्वतंत्र दिशटीकोण, समाजांतले रीत रिवाजांचो तिरस्कार नी क्रांतिकारी मनोभाव उक्तो जाता. ताचे जिणेची भूमिका सगळीच ष्ट जाता. गोपिनाथ कामतयी संवादा वयल्यान आपलो इतिहास, आनी इतिहासांतल्यान घडून आयिल्लो मनोभाव आनी मानसिक निबरसाण खयता.

सूर्या अशोकयी संवादाचो बरो प्रयोग करता. पात्र निर्मितीच न्हय कथेचो विकास लेगीत संवादाच्या पांवडयार जाता. ताका लागून संवाद था निवेदनाचें कायम करना. देखीक: 'शेजाराची पै मांय', 'प्रायश्चीत', ातक', 'साफल्य' ह्यो कथा चड उणें संवादाच्या रूपानच विकसित ल्यान. प्रो. वसंतमणीच्या कथातंत्रांतयी संवादाचो महतवाचो वांटो आसा.

आर.के. प्रकाश एक खास कथापात्राची वळख करून दिता – टमाम (चिकलांतलो देवु) भटमाम दळिद्रपणांत बुडोन मनोरोगाचे देगेर वताना ताका एक सोडनी लागता. कोणेयी उलोंवक नाशिल्लीं उतरां च्या कानार पडतात. देवालीं उतरां लेगीत ताका आयकुपाक येता. ताच्या वादा वयल्यान आमकां ताचे मनोरोगाची वळक जाता इतलेंच न्हय, च्या मरणाचीं पवलांय आयकातात.

## थांचो सुर – गंभीर आनी विनोदी

केरळाच्या कथा साहित्याचें बरप चडावत जावन गंभीर स्वभावाचें. .आर. वसंतमणी वरी कांय जाणां कथांत विनोद हाडतात. देखीक: गेली कथा 'घोणी', 'दुवाळो' आनी 'बाळनुवों', 'बडका केरी दुर्पदक्का', रेताक देखुयेना!', 'बी.बी.सी. मीग', 'हरण', 'खबरे माम', 'रामायण', र्या अशोक (शेजाराची पै मांय), सन्यासी आनी कृष्ण वाधयार (दुरपती) संवादांत तशेंच निवेदनांत गंभीरताय आनी विनोद भरसिता.

पूण सामान्य जावन केरळाच्या कथांचो स्वभाव गंभीरच अशें म्हणयेता. लेखक जीवितांतल्या दुबळेपणा पासोन आनी संघरशाविशीं बरयतात देखून

पात्रं, घडणुको आनी भावना गंभीर जावनच आसता. मनशालें सुख-दुख, मोग आनी दुसमानकाय, करुणा आनी निशटुरपण, कोप आनी थंडाय, सहानुभूति आनी जाळ, प्रमाणीकरण आनी फटिंगपण असल्या भावांचेर कथा निर्माण जाता. सगळयो कथा शोकांतीक न्हय तरयी तांचो गंभीर सुर मात्र चुकाना.

## समाजाचें पडबिंब

ह्या लेखकांनी चित्रायिल्लो समाज पडच्या पाटल्यान बळादीक जावन रावला. तो प्रगतीक फाट करून रावपी आनी परंपरेन चलपी अशें म्हणयेता. ताच्यो रीत रिवाज पोकळ, पूण तांतूंतल्यान सुटोन भायर सरप सोंपें न्हय (दुरपदी, विश्वास).

समाजांत आर्थिक दुबळेंपण भरलां. (अंतिम भीक, मांगल्य, भिके शीत, रुचिकर हाप्पळ, उदयाचें अस्तमन, नष्ट सौभाग्य, पाप परिहारू, मोगरे फूल आनी चान्निणें) पूण समाज आर्थिक दुबळेपणाकडेन आड नदर करता. तो दुडवाक मान दिता, दुडु जोडपाक सारें घालता आनी घडिये दुडवाचो दुराग्रोह  वाडोवन मनीशपण चिरडून दवरता (ब्रह्मगांट, कर्म बंधन, आवरतन), सामान्य मनशांक पिसो म्हण घेता (रंगू सुंटोलो) अथवा खरयानच पिशेणांत धुकलून घालता (चिकलांतलो देवु).

वैयक्तिक जिणेंतले बरे गूण म्हळयार मायेमोग, करुणा, सहानुभूति आनी नितळ स्वभाव, त्यागाची भावना, व्यक्तिचो अभिमान, स्वातंत्र्य असल्या गुणांक समाजांत व्हडलेशें मोल ना (उदयाचें अस्तमान, एक पिशयाची काणीं, आवरतन, मोचन). नीत-न्याय कांय समाजाक पडिल्लो ना. तो संदर्भावादी जावन आसा (शुद्धि कलशु). तरीयी केन्ना केन्ना व्यक्ति, कुटुंब हांचेर मोटो संकष्ट येता, तेन्ना समाज वोगीच रावना. इष्ट, शेजारी, बरे मागपी हेर लोक सगळे ते व्यक्तिचे/कुटुंबाचे मदतेक पांवतात (विश्वास, बालु).

समाजांतले कुरडे विश्वास आनी कांय रीत रिवाज खास सगळयांक बादता. पूण खास करून बायल्यांक तांचो चड त्रास भोगचे पडता. विसाच्या

खेंकडयाच्या पूर्वार्धांत चालू आशिल्ल्या ह्या कुरडया विश्वासांचो/रूढिंचो प्रभाव (जो दुरपदी नवलिकेंत पडबिंबित जाला) तो एकविसाव्या शेंकडयांत लेगीत उणे जांवक ना म्हणपाचें चित्र 'विश्वास' कादंबरींत दिसोन येता.

बजारांत वचून म्हाल मोलांवचे बरी सोयरिके निमित्तान चलयेगेर वचून तिका पळोवन मानून घेवप वा तिचो तिरस्कार करप आनी स्त्रीधन घेवन चलयेची व्हरडीक करप समाजान वाडोवन हाडल्ली एक अकांताची समस्या. तिका लागून चलयांचेर (एक फूल लेगेन करपून गेलें) आनी चलयांचे कुटुंबाचेर (चान्निणें) संकट येता, चले-चलयांचो मोग मोडता, दोगांकयी नाका आशिल्ल्यो सोयरीको घटतात आनी घोव-बायल्यांच्या जीवितांत कोडवाण येता (कर्म बंधन).

बायलांक दादल्यां इतलेंच स्वातंत्र्य ना देकून समाजान निरमाण केल्ली अडकळ बालांटून वचपाक कष्ट जाता (दुरपती, मोचन), भूक आनी भीक, रुचिकर हाप्पळ, भिके शीत). ते परिस्थितिंत खंयचेय एके बायल मनशेन लैंगीक दिशटीन चुकिंचे एक पावल उखल्यार समाज तिका माफ करिना. तिचेर सामाजिक बहिष्कार जाता, तीं वाटेर पडता (शुद्धि कलशु), तिका भीक मागची पडता वा व्यभिचार करचो पडता (भूक आनी भीक). दुरपदी हे कथापात्राची परिस्थिति इल्ली बरी आसा. तीं तिचे दायज्यांचेर चाकरी करन रावता.

सामाजिक वेवस्था बायलांक इतली विरूद्ध आसा देकून तांका खंचयायी एका मानेस्त दादल्याची मदत घेंवची पडता. समाजेंत जायते दयाळु दादले आसात आनी तें बायलांचें राखण करतात. (ती धन्य जाली, भिके शीत) केना केना बायलांचेर अन्याय केल्ले दादले लेगीत आपली चूक मानून घेतात आनी बायलांक न्याय दितात (भूक आनी भीक).

पूण सगळे दादले तशे मानेस्त आनी दयाळु न्हय. आनी बायलांक आपणावरीच मनीस म्हण समजुपी न्हय. ते बायलांचें सामाजिक, आर्थिक आनी दैहिक दुबळेंपण लक्षांत घेवन तांचें शोषण करतात (मांगल्य सौभाग्य). घडये दादाल्यां मदले दुसमानकायेक लागून लेगीत बायलांचेर बलातकार

जाता (भूक आनी भीक, मांगल्य सौभाग्य). दादल्यांचे हे मानसिकतेक लागून कांय बायलो नवें मनोबळ आनी एकामेकांचे मदतेक पावतात (शुद्धि कलश, अभय दान) केन्ना केन्ना कांय फटवल्लो चलयो आपल्या पांयार उबी रांवक शिकतात (सान सान फूल) हें स्वावलंवन दुसर्यांक उपेग जांवचे खातीर आसुंयेता (परको, कर्म बंधन) अथवा वायट चलींचे जांवयेता (शुद्धि कलशांतली गुलाबी). पूण तो चलयो स्वतंत्र जातात आनी आतां खंयच्याय दादल्याची शक्ति तांचेर प्रभाव घालूंक सकाना.

म्हांतारपणांत जीण घडये सुणया पाशट जांवन येता, हें खरेंपण कांय कथांनी तटतटीत जावन दिसता (पलायन, स्मारक, ब्रह्मगांट, रुचिकर हाप्पळ). तशेंच सामाजिक कारणांक लागून बेकार तरणाटपणालें जीवित अशांत आनी पोकळ जाता (मिगेलें दुख). धार्मिक, सामाजिक आनी आर्थिक कारणांक लागून भुरग्यांक शिक्षणाची इच्छा सोडन दींवक पडटा (रंगो सुंटोलो, भटपट) पर दुसरे कांय चलयांक/चलियांक मोगयांकडेन व्हरडीक करप साध्य जायना (पै आनी प्रभु, स्वप्न जीवित). सामकी शिक्षण मेळूंक नाशिल्ल्यान समाजांत कुरडो विशवास वाडून येता (मोगरे फूल) आनी कुरडया विश्वासाक लागून मनीस खून करूंक लेगीन पाटीं सराना. (शापाचें बीं).

जायते बरोवपी सामाजिक परिस्थिति नागडी उगडी करून दाखयतात. आनी ते परिस्थिति आज तांगेले प्रतिक्रिया प्रत्यक्ष वा परोक्ष रीतिन कळयतात. ह्या संदरभार सुशीला भट हांगेले मनोभाव धाडसाचो. समाजांतलें फटिंगपण, डोंग, निशटुरपण, थंड मनोवृत्ति, व्यक्तिंचेर येंवचें बंधन, बायलांचें शोषण आनी सगळे तरेच्या अन्याया आड त्यो गरजेतात. तांगेले दर एक कथेंत समाजाचें दर्शन मेळता. तशीच त्यो सामाजिक रीत रिवाजांची खर निंदा करतात.

एकविसाव्या शेकडयांत वैयक्तिक आनी सामाजिक जिणेंत आयिल्लो माध्यमाचो – चड दरून टी.वी. चानलांचो – प्रभाव विशवास नवलिकेंत पळोंवक मोळता.

के. नारायण नायक हांगेले कथेंत सामाजिक जाणविकाय आनी मनीषपणाची सहानुभूति उटोन दिसता. सामाजिक टीका करचे बगर ते विरोधाभासाचो आनी विडंबनेचो प्रयोग करून चुकिच्या दिकान बोट दाखयतात. शरतचंद्र शेणै, वी. वेंकटेश आनी शिवानंद शेणै विशाल मनीशपणाच्या संदरभांत कोंकणी समाजाचीं चित्रां काडतात. खूब कथाकार आदरशाचे सावटेंत बोधकता बरयतात.

## वातावरण निर्मिती

खंयचेय कथेंत कथानकाच्या वा पात्रांच्या विकासाक योग्य तशी पार्श्वभूंय तयार करपाक वातावरण उपकारता. केन्ना केन्ना कथेचो मूड आनी कथापात्रांचो भावना परिणामकारी करपाक आनी कांय गजाली संकेतांनी उकत्यो करपाक वातावरणाचो फायदो जाता. हे दिशटीन, कथातंत्राचें एक मुखेल अंग म्हणून वातावरणाचें महत्व न्याय करपाक जायना. पूण कांय लेखकांच्यो कथा सोडल्यार सामान्य जावन केरळाच्या कथा साहित्यांत वातावरण निर्मितिकडेन फावो तशें लक्ष वचूंक ना. आपले खंयचेयी कथेंत योग्य वातावरण निर्माण करपांत पी. गोपिनाथ कामत जैतिवंत जाला. सैम भोंवतण आनी हवामान हें सगळें सूक्ष्मतायेन पळोवन कथाकार तांचें संयमान आनी गरज पडटा थंय आसपांव करता. सूर्या अशोकाच्या कथानिंय वातावरणाचो वापर जाला. देकीक: ‘गांव’ हीं कथा. विकासांच्या नांवान सैमाचेर जाल्ली घुरी आनी ताचो मनशांचेर जाल्लो परिणाम हांचेर उजवाड घालपी हे कथेंत लेखिकेन सुंदर वातावरण निर्माण केलां.

कथानक, पात्रांचो स्वभाव आनी सामाजिक परिस्थिति लक्षांत घेवन पळेयलार ‘दुरपती’ नवलिकेच्यो कथा विसांव्या शेंकडयाच्या पयल्या सात–आठ दशकांच्या काळखंडांत घडता अशें म्हणयेता. प्रो. आर. वसंतमणी हांगेल्या कांय कथांतल्यो (मोडें, मरतो, मणकु, भटमाम, आपि माम, काशी) घडणुकोय ह्याच काळखंडातल्यो. अयोध्या कादंबरिंतले कथेचो काळखंड सुमार 1930 उपरांतच्या सत्तर वरसांचो. चडावत कथांचो काळ पाटली सुमार पन्नास वरसां जाल्यार बालु आनी विश्वास ह्यो कृति एकविसाच्या शेंकडयांतल्या घडणुकांचेर आधारून आसात.

भास आनी शैली

सगळे कथाकार/कादंबरिकार सहजपणान मध्य कोंकणिंत बरयतात. के.के. सुब्रह्मणयन थंयच्या कुणबी समाजिची कोंकणी बरोवपाक वापरता. सुब्रह्मणयन आनी कृष्ण वाध्यार सोडन हेर कथाकारांचे शैलींत उलयताना येंवची तितलीं मलयाळम उतरां बरपांत दिसानांत. तोंडावयली भास आनी बरपांतली भास हांचे मदें व्हडलोसो फरक ना जालयारयी बरयताना मुद्दाम मलयाळम उतरां काडून उडोवपाचो प्रयत्न केला, हे स्पष्ट.

उतरावळिचो उणाव अणघवताना लेखक हिन्दी आनी संस्कृत उतरांचो आधार घेतात. बरयताना मलयाळम उतरांक लागून जितलें असमाधान जाता, तितलें हिन्दी–संस्कृत उतरांच्या प्रयोगान जायना. जायते लेखक उतरावळीची समस्या येताना मंगळूरी आनी गोंयचे शैलिंतली उतरां रीण घेतात. पूण संस्कृत/हिन्दी भाशेंतल्यान तितले सहजपणान कोंकणीचे इतर शैलिंतल्यान घेनांत.

चडावत लेखकांची भास सरळ नीट आनी ल्होव आसा. अपवाद म्हळयार के. नारायण नायक आनी के.एन. रमेस भट. हांगेले शैलिचेर अलंकाराचो प्रयोग आसा आनी ताका लागून भास अडेची दिसता. पूण ताचे निमित्तीं भाशेच्या प्रवाहाक अडचण येंवक ना.

आनंदी मुंबयी आनी प्रो. वसंतमणी ह्या म्हालगडल्या लेखकांचें निवेदन निव्वळ केरळी कोंकणींत आसा. लेखकांचे शैलींत थळावे पोटभाशेंतल्यो भरपूर म्हण, वाकप्रचार आनी वाकप्रयोग आयिल्ल्यान वाचपाक बरें जाता. आनंदी मुंबयी हांगेले शैलींत मातशें एकसुरेंपण आयलां तरीयी प्रसन्न भाव दिशटी पडता.

प्रो. वसंतमणी, शरतचंद्र शेणै आनी सूर्या अशोक कथेच्या मूडाक/सबावाक अनसरून निवेदनाची शैली बदलतात. हे लेखक निवेदना खातीर गजालीचो सुर, संवाद, वर्तमान पत्रांतली खबर, आपले भितर उलोवप, विचारांचो व्हाळ, फोडणिशी आशा वेग–वेगळया प्रकारांचे प्रयोग करतात.

तरियी सामान्यतायेन सांगचें जाल्यार निवेदना खातीर भाशेंच्या प्रयोगांत चड आनी नवीं परीक्षणां कोणे केल्लीं दिसानांत.

## नवेंपणाची गरज

'विशवास' आनी 'बालु' सोडल्यार हेर कथांनी विशयाचे दिशटीन नवें अशें कितेंयी दिसाना. लेखकांचो अणभव बोव मर्यादीत जावन आसा आनी समकालीन सामाजिक, राजकारिणीय मुद्द्यां कडेन कोणाचेंय लक्ष्य दींवक ना. देखुनंच, कथांची व्याप्त आनी वैविध्य भोव उणें दिसता. अणभवाच्या आनी कथातंत्राच्या दळिद्रपणाक लागून कथेचें आशय आनी बरपाची शैली पारंपरीक रीतिन सांबाळून दवरिल्ल्या बरी दिसता. कथाकार बहुशः एका आदरशाच्या प्रचार खातीर बरयतात कांय, असोय केन्ना केन्ना दुबाव जाता. कथा बरयताना लेखक चड करून आपले धार्मीक-दार्शनीक शिकवणेच्या परिमितींत रावोनच बरयतात देखून चडांत चड कथांक बोधकतेचो स्वभाव आयिल्लो दिसता.

विशय, पात्रां, वातावरण, शैली इतर परिणामकारी घटकां हें सबळेच परतून आदले परीं वापरल्यार उपकारता. साहित्य मुखार पांवोवपाची दोन मुख्य घटकां म्हळयार नवेंपण आनी प्रभाव. परंपरेची परिमितिंतल्यान सुटून साहित्य जेन्ना वाचनाचो नवो अणभव दिता, आस्वादकाचेर आजापाचो प्रभाव घालता तेन्नाच तें प्रगतिचे वाटेर पांवता. कथा आनी कादंबरिकारांनी ह्यो गजाली लक्षांत घेवपाक गरज आसा.

*******

# ದಾಯ್ಜ್
## ತೊಂದೊರ್

*Tondor [tóndór, -tóndrâ], chondor [chóndór]*

ಸಾನ್ನಾಂ, ಪಾತೊಳ್ಯೊ (ಕೆಂಳ್ಬ್ಯಾ ಖೊಲ್ಯಾಂಚ್ಯೊ, ಫುಟ್ಯೊ; ಪಣ್ಸಾಚ್ಯೊ, ಇಡ್ಯೊ; ಪೊಂಗೆರಾಚ್ಯಾ ಖೊಲ್ಯಾಂಚ್ಯೊ; ಹಳ್ದಿ ಖೊಲ್ಯಾಂಚ್ಯೊ; ಸಾವ್ಲ್ಯಾ ಖೊಲ್ಯಾಂಚ್ಯೊ) ಉಬೆರ್ ರಾಂದುಂಕ್ ವಾಪರ್ಚೆಂ ಆಯ್ದಾನ್. ಹೆಂ ಉದ್ಕಾಚೆಂ ವಾಟ್ಕುಳೆಂ, ಪೆಂಕಡ್, ಸಾನ್ನಾಂ ಘಾಲ್ಚ್ಯಾ ಫುಲಾಂಥಾಲ್ಯೆಚೆಂ ಮಾಟೆಂ, ಧಾಂಪ್ಣೆಂ, ವಯ್ರ್ ಆನಿ ದೊನೀ ಕುಶಿಂಕ್ ಹಾತಾಳೆ, ತವ್ರ್ಯಾಚಿ ಕಲಯ್ ಕಾಡಿಲ್ಲಿ ಭಿತರ್ಲಿ ಭಿಂಟಿ ಆಟಾಪ್ತಾ. ತಾಕಾ ಚೊಂದೊರ್, ಚಂದ್ರ್ಯಿ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್. ಗೊಂಯ್ಚೊ ಲೋಕ್ ತಾಕಾ ಕೊಂಫ್ರೊ, ಪಾತೆವ್ರೊ, ಸಾಂಡೊ ಆನಿ ತೊಂದ್ರೊ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್. ಕಿನಾರಾಂತ್ಲೆ ಕೊಂಕಣೆ (ದೊರ್ಕೆ, ಶೆಣ್ವಿ, ಭಾನಪ್) ಆನಿ ಕೇರಳಾಂತ್ಲೆ ತಾಕಾ ಕೆಡವನ್ ಯಾ ಪೆಡವನ್ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್. ಸಾನ್ನಾಂ ಕರುಂಕ್ ಆದಿಂ ಪಿರಿ, ಗಿಡ್ಲಾಂ ವಾಪರ್ತಲೆ ತರ್ ಅಯ್ಲೆವಾರ್ಚ್ಯಾ ಆಲುಮಿನಿಯಾಮ್ ಆನಿ ಸ್ಟೀಲಾಚ್ಯಾ ತೊಂದೊರಾಂನಿ ಗುಳ್ಮಾಂ, ಗಿಂಡ್ಯೊ ವಾಪರುನ್ ಸಾನ್ನಾಂ ಉಕಡ್ಟಾತ್. ಗಿಂಡ್ಲಾಂಚೆ ಹಾತಾಳೆಯಿ ವಾಪರ್ತಲೆ ಆಸಾತ್.

# दायज़
## तोंदोर

सान्नां, पातोळ्यो (केंळब्या खोल्यांच्यो, फुट्यो; पणसाच्यो, इड्यो; पेंगेराच्य खोल्यांच्यो; हळडी खोल्यांच्यो; सावल्या खोल्यांच्यो) उबेर रांदुंक वापरचें आयदान हें उदकाचें वाटकुळें, पेंकड, सान्नां घाल्च्या फुलांथाल्येचें मार्टें, धांपणें, वयर आनि दोनी कुशिंक हाताळे, तवरयाची कलय काडिल्ली भितरली भिंटी आटाप्ता. ताक चोंदोर, चंद्रयी म्हणतात. गोंयचो लोक ताका कोंफ़रो, पातेवो, सांडो आनी तोंद्र म्हणतात. किनारांतले कोंकणे (दोरके, शेण्वी, भानप) आनी केरळांतले ताका केडव या पेडवन म्हणतात. सान्नां करुंक आदीं पिरी, गिडलां वापर्तेले तर अयलेवारच आलुमिनियाम आनी स्टीलाच्या तोंदोरांनी गुळमां, गिंड्यो वापरून सान्नां उकडटात गिंडलांचे हाताळेयी वापर्तले आसात